## पुंडलीक नारायण नायक
### हांगेलें साहित्य

**नाटकां**

खण खण माती
रक्तखेव
राखण
सुरींग
सूर्यसांवट
देमान्द
मुक्तताय
शबै शबै भौजनसमाज
पिंपळ पेटला
श्री विचित्राची जात्रा

**अेकांकी संग्रह**

गांवधनी गांवकार
चौरंग

**बाल नाटच**

रानसुंदरी
आळशांक वाग खातलो

**अेकपात्री**

छप्पन्न थिगळी येसवंत

**कविता**

गा आमी राखणे

**कथा**

मुठय
पिशान्तर

**नवल कथा/मर्वालिका**

अच्छेव
बांबर
वसंतोत्सव आनी दायज

**अणकारीत**

काजी नजरुल इस्लाम

दोन आंकी नाटक

# देमान्द

पुंडलीक नारायण नायक

अपुरबाय प्रकाशन

© हेमा पुंडलीक नायक

पयली उजवाडावणी :

सप्टेंबर १९८६

उजवाडावपी :

हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय - फोंडें, गोंय
४०३ ४०१

छापपी :

हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय - फोंडें, गोंय
४०३ ४०१

ब्लॉक मेकर्स :

अजीत प्रोसेस
बेळगांव

मुखपृष्ठ :

श्रीधर कामत बांबोळकार



मोल :

**पंदरा रुपया**

श्री महादेव दत्तू नायक ...

दुस्वासा बगरचे

अेके निखळ भिश्टागतीक

## लेखकाचीं दोन अुतरां

**पांच नाटकांचो संच**

देमान्द, मुक्तताय, शबै शबै भौजनसमाज, पिंपळ पेटला आनी श्री विचित्राची जात्रा हीं म्हजीं पांचूय नाटकां आज अेकाच वेळार अेका संचान अुजावाडाक येता. हाचे आदीं पुराय स्वरूपाचीं पांच नाटकां पुस्तक रूपान उजवाडाक आयिल्लीं आसात.

१९७६ ते १९८६ ह्या अेका दशकांत हांवें अेकूण धा स्वतंत्र नाटकां बरयलीं. धावूय नाटकां रंगमाचयेर जैतिवंत जावन दर अेका नाटकाचे अेका परस अदीक कितलेशेच प्रयोग जावपाक पावले.

**देमान्द**

हें नाटक पयलीं ' बंदी ' ह्या नांवान बरयिल्लें. १९७९ – ८० च्या कला अकादमी नाट्य महोत्सवांत ताचो दुसरो प्रयोग आनी ताचे आदीं सांतेरीभाट, वळवय हांगा, पयलो प्रयोग अशे दोन प्रयोग जाल्ले. तातूंत पात्रांचो सगळो संचार मागीलदारा पोरसांत दाखयिल्लो. फ्लॅश बॅक पध्दतीन त्या नाटकाची रचना आसली. प्रयोगाचे नदरेन सुटसुटीतपणा उणो आसलो.

उपरांत तें नाटक, नेपथ्यांत आनी कांय प्रसंगांत बदल करून ' देमान्द ' ह्या नांवान रंगमाचयेर आयलें. ' रंगसांगाती ' संस्थेन गोंयांत उत्सवांनी ताचे कांय प्रयोग सादर केले. सामान्य रसीकाची भूक तें भागोंवक पावलें.

णव्या नाटय महोत्सवांत हें नाटक वादग्रस्त थरलें. हेर स्पर्धक कलाकारां-कडल्यान ताचेर आकांत टिका जाली. टिकेचो मुखेल मुद्दो आसलो तो म्हळ्यार दोन वरांपरस कमी वेळांत ह्या नाटकाचो प्रयोग उलगता.

नाटकांत बदल करपाच्यो जायत्यो सूचवण्यो म्हाका जायते जाणांनी केल्यो. नाटकाचे धायेक प्रयोग पळयल्या उपरांत म्हाका दिसलें, रसीकांनी हे नाटक आसा तशें स्वीकारलां. आतां बदल कित्याक ? देखून तें तशेंच उजवाडाक येता. रसीक मुखारूय असोच ताचो स्वीकार करतले अशी आस्त आसा.

वळवय–गोंय

– पुंडलीक नारायण नायक

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग रंगसांगाती वळवय हे संस्थेन वास्कोच्या, मुरगांव हिंदू समाजाच्या श्री लक्ष्मी पूजनोत्सवांत ता. १२/११/१९८३ दिसा रातच्या ११-३० वरांचेर सादर केलो.

हेंच नाटक गोंय कला अकादमीच्या नाट्यमहोत्सवांत ता. १९/११/१९८३ दिसा रातच्या ९-३० वरांचेर पणजेच्या कला अकादमी थेटरांत (पोन्ने) हेच संस्थेन सादर केलें.

प्रयोगांतले कलाकार

जयवंत : महादेव नायक

येशकामत : सुरेश नायक

अशोक : हिरु नायक

जनाप्पा : प्रकाश नायक

अुल्हास : अुदय म्हांबरो

कमलाकर : बाबय गावडे

संदीप : गिरीश नायक

महेश : अनील नायक

कुमूद : मालिनी नायक

सीमा : विनंती कासार

मनिषा : सविता नायक

सुप्रीया : सुकांती गावडे

दिग्दर्शक : पुंडलीक नायक

नेपथ्य : रोहिदास गावडे

अुजवाडा येवजण : दशरथ गावडे आनी प्रसाद वळवयकार

आवाजा येवजण : हेमा नायक

महोत्सवांत ह्या नाटकाक प्रयोगाचें आनी दिग्दर्शनाचें दुसरें अिनाम आनी वयक्तिक अभिनयाखातीर कांय प्रमाणपत्रां लाबलीं.

# आंक : पयलो

(खेडेगांवातल्या मध्यमवर्गीय भाटकाराचें घर. सालाचो देखाव. माचयेचे अुजवेवटेन भायलें दार दावेवटेन पोरसांत येवपावचपाचें दार. पोरसांतल्या दाराकडेन अेक जनेल. मदले वणटीक मदें अेक व्हड दार. त्या दाराचे अुजवेवटेन माळयेर वचपाचे अिस्कादिचीं सोपणां दिसतात. दाराचे दावेवटेन आनीक अेक कुडीचें दार दिसता. ही जयवंताली खाशेली कूड. सालांत अेकेकडेक सोफा, टिपॉय, जयवंताले ओल्तेर आनीक कांय कदेली दिसतात. सालांत सकयल जमनीर बसून ताबूलफळचांचो खेळ चल्ला. अशोक, कुमूद, सीमा सुप्रीया, अशीं चौगांय भावंडां खेळटात. भावंडांमदीं सगळचांत व्हड कुमूद. मागीर सीमा, मागीर अशोक आनी सगळचांत धाकलें सुप्रीया. सुप्रीयाची पिराय सुमार पंचविशेक वर्सांची. कुमूद आनी सीमा हांचो भेस घरगुती जाडयाभरडया साडयांचो. तांचेमदीं कपडयांचे आनी रुपाचे बाबतींत सुप्रीयाच अुठून दिसता. अशोकाचोय भेस सादो लेंगो वा पिजाम आनी शर्ट. खेळ चल्ला. ताब्लां पडटात तशीं कोण खोशयेन भरतात, कोण निरशेतात. खेळ मात रंगत चल्ला )

निवेदक : खेळांत खेळ ताबुलफळचांचो खेळ सगळचांत बरो. कारण हो खेळ चार वंटिच्याभितर खेळपाक मेळटा. म्हणजे कोणूय हारलो ताची लज आनी कोणूय जिखलो ताची खोस भितल्ले भितर अुरता. ह्या खेळाचें अेक वैशिश्टय आसा– तें म्हळचार हातांत ताब्लां खेळयताना हातसफाई जरुर दाखोवं येता. पुण तेचबरोबर मेंदवाक कसलोच शीण दिना आसताना ताब्लां तशाक तशीं वडोवं येतात आनी अशा वेळारुय तुमकां ताब्ल पडूं येता. दुसऱ्या अर्थान तुमी कर्तुपी नासल्यारूय नशिबाचेर पातयेवन हो खेळ खेळूं येता.

ह्या घरांत हो खेळ फाटल्या कितल्याशाच वर्सांसावन चल्ला. ह्या घराचेर भायल्यान नदर माल्ल्यार तुमकां कांय कळचेंना, पुण ह्या घराच्या वंटीभितर जर तुमी नदर माल्ली जाल्यार होच खेळ ह्या घरांत कित्याक चल्ला ताची जाप तुमकां मेळटली. आत्तां जाका ताब्ल पडलेंतें कुमूद. चारुय भावंडांत तें सगळचांत व्हड.
पयली गजाल म्हळचार, ह्या खेळाचेर ह्या. चौगांय भावंडांचो विश्वास आसा. ह्या खेळांतलें जैत हें कर्तुत्वान जोडपाचें न्हय, तर तें नशिबानूच मेळोवपाचें आसता, हाचेविशीं तांका पुराय खात्री आसा.
आतां पळय ताब्ल पडलें तो ह्या तिगांय भावंडांचो अेकलो अेकसुरो भाव–अशोक. चडशे फावट हाच्या नांवांतले अ गळून पडून थंय फक्त शोकच उरता.

अितिहासांत कलिंगाच्या झुजांत जो रणखेव जालो ताचे उपरांत सम्राट अशोक खंती जाल्लो. हो ‘सम्राट’ झूज खेळच्या आदींच खंती जाला.
ह्या खेळाची दुसरी गजाल म्हळचार– ह्या खेळांत ताब्लां कितलीं ? चार. आनी हीं भावंडा कितलीं? चार.
हें पळयात. सीमाक ताब्ल पडलें. तें नंबर दोनचें भावंड.
ह्या खेळाची तिसरी गजाल म्हळचार हातूंत ताब्लां लाकडाचीं. ह्या चैतन्यहीन लाकडां कडेन. . . .
सुप्रीया. . . . ताका ताब्ल पडलें. हें सगळचांत धाकलें. तर ह्या चैतन्यहीन लाकडांच्या खेळाकडेन हचा भावंडांचे जिणेचो खूब लागचो संबद आसा. ( गतीन ) चैतन्यहीन लाकडां आर्ति पडलीं, पर्ती पडलीं म्हण तांचे जिणेंत फरक कितें? अेक फावट हालयात, दोन फावटी हालयात. ना– जाणिवेंत कांयच फरक ना. चैतन्यहिनांचे हारीक म्हत्व ना तशें जैताकूय मोल ना. कारण तांच्या केदचाय व्हडल्या जैताक अेक हार आसा सामकी हार.
(जयवंत येता. पिरायेन ४५/५० वर्सांचो. धोंतर, कोट, तोपी असो भेस. त्रिबुनालारसून आयला. ताका दारात पळयनाफुडें सगळी जाणां गडबडचां अुठटात. खेळ कवळटात कुमूद आनी सीमा माळयेर वतात. सुप्रीया पोरसांत तर अशोक घरांत वता. जयवंत सगळीं भितर गेल्याची

खात्री करुन घेता आनी मागीर आपले कुडींत वता....
काळोख..संगीताची द्रूत गत. कांय वेळान माची उजळटा.)
जयवंत कदेलीर बसला. कदेलाकुशीक ल्हानशें स्टूल आसा. तो धवेंफुल्ल पुडवें न्हेसला आनी ताणे आंगांत धवेंच बानयान घातलां. दोळ्यांर वक्ल आसा—वाचपाचें. हातांत कसली तरी पटी आसा. ती चाळटा. बरयता. अेका हातांत पुडीचें बुशेत आसा. तें नाकांत ओडीत मदीं मदीं शिंको दिता. कांय वेळान भायरसून जनाप्पा येता. जयवंत पटये वयलें लक्ष काडिनासताना——)

जयवंत : यो, जनाप्पा. बस. (बसपाक कांय अेक ना.) (कांय वेळान वयर पळयत). आरे, तूं अुबोच? (अुलो मारता) सुप्रीया,

जनाप्पा : आसूं आसूं. बसूंक येवना हांव.

जयवंत : अुलो आयकल्यार धूव कसली तर ती!

जनाप्पा : कामाक वचपाचो वेळ जाला न्हय, आसतलें बोवाळांत.

जयवंत : बोवाळ बी कांय ना. बड ! व्हडल्या भयणांचे बडीर गेलां.

जनाप्पा कितें चल्लां सकाळींफुडें?

जयवंत : आनी कितें चलपाचें? फाटली वीस वर्सां चल्लां तें.

जनाप्पा : देमांद!

जयवंत : वीस वर्सांचो इव्हेंतार. आरे ह्या येशकामतीक धडेगांणीन सोडटां हांव! हो वीस वर्सां पोसलेलो देमांद ताच्या घरार घालीना जाल्यार जयवंताल्या कानाचो कुडको हळशिकेंत वडयन. (शिंक येता) सत् खरें.

जनाप्पा : त्या देमांदान पिडलो तुका.

जयवंत : ह्या देमांदान देवांक लेगीत सोडूंना. आनूस वाचतकच कितें दिसता? श्री देवूश सांतेर कोंत्र जंद्रे भावीण इ ओवत्रुश.

जनाप्पा : (बळयां हांसता) तेंवूय खरेंच.

जयवंत : येशकामतीक भिकेक लायलेबगर सोडीना हांव. म्हज्या घरभाटाकुशीचो कुडको तूं मोलायतलो? तूं केन्नाचो? म्हजे आजे पणजे हांगचे थळावे. तूं अुखलापो.

जनाप्पा : तुका हालयलो ह्या देमांदान.

जयवंत : तुजी (येशकामतीचीं) पाळांमुळां हांव खणून वडयतां. तूं म्हज्या कुशीचें बेंस विकतें घेता ? आतां देमांदूय घे विकतो. कर प्रेपार फारीक. कपलाक चडना जाल्यार पळय.

जनाप्पा : हय. देमांद म्हणटा तो अुमेदीन खेळपाचो खेळ न्हय.

जयवंत : पैशे आसले म्हण अुपकारता ? (तकलेर बोट धरून) हें जाय. हाची बुध्द धोपरांत. तेश्तेमुंजाचीं बोलसां भल्लीं म्हणटकूच ते शिकयिल्ल्या किरावरीं अुलयतात, अितलेंच ह्या अपुरबुद्धाक खबर. पयलेच खेप त्रिबुनालार कितें घडलें? खंय आसा हागेलो तेश्तेमुंज ? फाल्त द रेस्पेद आअु त्रिबुनाल. तीन दीस कादयेंत. जाय देमांद ?

जनाप्पा : कपलाक जाय.

जयवंत : हाका कितें खबर आसा ? सेलाद फोलिवेल्या रेक्रामेंदान देमांद सुरु जाता अितलेंच हो जाणा. फुडलीं घाडपणां म्हाका विचार.

जनाप्पा : ते संबंदी अुलोवंया केन्नाय.

जयवंत : आरे म्हगेलो प्रोसेस त्रिबुनालाचेर पावतकच जुविजाक शेळो घाम सुट्टालो.

जनाप्पा : आयकलां हावें तें. हांव कित्याक आयिल्लो जाणां ?

जयवंत : देमांद म्हणटा तो रावण. ताका धा तोंडां. धावूय तोंडां बंद करपाक जाय.नाजाल्यार तो तुकांच खाता.

जनाप्पा : म्हळें, तूं सकाळींच ब्रो अुलोवपाक मेळटलो.

जयवंत : धा तोंडां खंयचीं ? तेश्तेमुंज, सोलिसितादोर, आदवोगाद, ताबेलियांव, रेफरेंदार, इश्क्रिवांव, कोतादोर सगळ्यांच्या तोंडाक फावो तशे गुड्डे बसपाक जाय. मागीर देमांद बोलसांत.

जनाप्पा : कित्याक आयिल्लो जाणा ?

जयवंत : सांगशीत रे. देमांद फकत सेलाद फोलिचेरूच अुरना. नशिबाचेरूय आसता. तुजे ग्रहूच बदलल्या जाल्यार देमांद तुज्या हडचार कोसळपाचो. पयलीं घरचें देवदेवस्पण जाग्यार जाय. आदवोगादाकडेन पयली फावट मारच्या-आदीं अुजवी प्रसादपाकळी झडोवन घेवपाक जाय. देवीचो शब्द गरजेचो. ते बगर सगळीं धडां सारकीं अुरना. (अुगडास जाता.) आं. (अुलो मारता) अशोक. (अशोक येता. जनाप्पाक सांगता.) पयल्या अुल्याक आयलो तो अशोक.काल तुकां कितें सांगलेलें रे ? (जनाप्पाक) कालची गजाल आज अुगडास अुरपाक ना. (अशोकाक) भाटांत पासय मारुन आयलो ?

अशोक : हय.

जयवंत : (जनाप्पाक) भाटाचें नशीब अुजळ्ळें. (अशोकाक)

खंयतरी नाल्ल जाल्या ?
(अशोकाक कळना. जनाप्पाक) आदवोगादाक म्हजी भास कळटा. त्रिबुनालावेलो त्रादुदोर म्हजे भाशेचें बेस बरें त्रादुसांव करता. पुताक कळना.

जनाप्पा : (अशोकाक) फळ काडपाचें जालां कांय म्हणटा.

जयवंत : पळोवना आसतलें ताणें. नाका मुखावयले नदरेन चलपी. हांवें सांगल्यारूच वयर पळोवपाचें. नाजाल्यार ना. फळ पिकलें म्हणटकच काडपाक जाय. येदी सादी गजाल कळपाक जाय हे पिरायेर.

जनाप्पा : हय. फळ पिकलें म्हणटकच वेळार अुजोवपाक जाय.

जयवंत : अुजोवपाव जाय ?

जनाप्पा : हांव अुजोवपाच्यो गजाली करपाक आयिल्लों.

जयवंत : (अशोकाक) तुका कित्याक आपयला रे ? (जनाप्पाक) होनो बरो. (अशोकाक) शांतादुर्गेच्या देवळांत वचपाचें. भटाक सांग, हांवें धाडला म्हणजे.

अशोक : बरें. (वळटा)

जयवंत : (जनाप्पाक) पळयलें ? आपणाली (तकली ह्या अर्थान) अुजारुच करप ना.

जनाप्पा : (अशोकाक) अशोक, भटाक कितें सांगपाचें तेंआयक मरे.

अशोक : भटाक कितें सांगपाचें ?

जयवंत : पांच दीस जोत पेटय म्हणजे देवीक.

अशोक : कित्याक?

जयवंत : (जनाप्पाक) हें विचारपाक जाणा. नाका थंय नाक रिगोवप (अशोकाक) भटाक सांग जोत पेटोवंक. देवीक कितें सांगपाचें तें हांव हांगासून सांगता. (जनाप्पाक) देमांदाखातीर जोत हें भटाक सांगून गांवार घालपाचें ना. (अशोकाक) सोमारा दिसा हांव प्रसादांक येताम्हणजे. कितें सांगतलो?

अशोक : देमांदाखातीर जोत हें भटाक सांगून गांवार घालपाचें ना.

जयवंत : (जनाप्पाक) नाटकांतलें सवंग बरें!

जनाप्पा : अशोक आयकून घे सारके.

अशोक : जनाप्पा हांव भेरो.

जयवंत : (जनाप्पाक) भेऱ्याक नाकां तें जूस्त आयकूक येता.

अशोक : भेऱ्याच्या बापायक मात जें जाय तेंच आयकूंक येना.

जयवंत : (जनाप्पाक) शेराक सव्वाशेर ! सबंद घराण्यांक पयली

शीर फाल्त म्हणटा ती ही.

अशोक : जोतीक पैशे.

जयवंत : समेर आयलो.

जनाप्पा : दी पैशे ताका. वचूंदी. म्हाकाय कळाव जाता.

जयवंत : (पाकीटांतल्यान पैशे काडटा.) भटाक सांग, सगळें तेल जळूनी म्हणजे. गर्भकुडींत हरामपणा नाकां. (पैशे दिता) हांचे तेल व्हरुन दी. (अशोक वळटा ) गेलो? वोताच्या कडार वतलो. तान लागतली. वाटेर सोद घे. (वेगळे पैशे काडून दिता) यो आता. (अशोक गणयता)

जयवंत : (जनाप्पाक) (पैशांची कुरु करुन) ही आस वायट. चड चड वाडत रावता. (आनीक पैशे काडून) घे.

अशोक : नाका.

जयवंत : (जनाप्पा) पैशांचेबाबतींत नाका म्हणटा तीं अुतरां पयले खेप.

अशोक : हांव कितें सांगूक सोदी.

जनाप्पा : हांव कडेक वचूं ?

जयवंत : कांय गरज ना. तो कितें भांगराच्या हांडयाच्यो गजाली सांगचो ना.

अशोक : काल म्हगेलो अिश्ट.....

जयवंत : खंवसलो ?

अशोक : आयकून तरी घेतलो काय ना ?

जयवंत : आं ! म्हणजे मोन्यानी आयकून घेवं? जनाप्पा, शींगा आदलीं काय कान आदले रे ?

अशोक : हांव सांगू काय वचूं ?

जयवंत : तुका वच म्हण व्हदळच सांगलां.

जनाप्पा : तो कितेंतरी सांगूंक सोदता न्हय ?

जयवंत : सांग म्हणजे.

जनाप्पा : अुलय, अशोक अुलय.

अशोक : काल म्हगेलो इश्ट –

जयवंत : तें सांगलें न्हय.

जनाप्पा : तुजें म्हण चडूच आं. आरे, ताका अुलोपाक दितलो काय ना ?

अशोक : जनाप्पा, हें घर न्हय. आमी मनशां न्हय. आमी म्हळचार पांज-यांतलें किर. शिकयतां तेंच अुलोवपाचें. ताचेवयर अेकअुतर ना.

जयवंत : (जनाप्पाक) आता चड जालें तें कोणाचें ? म्हजें काय पुताचें रे ?

जनाप्पा : जालें तें जालें. अशोक आरे कितें सांगपाचें आसा तें सांग बेगीन.

जयवंत : तकली खाल्लेबगर सरळ सांगपाक कितें तर तें ? अखेर संतत कोणाची ? (सगले वग्गी)

जनाप्पा : आरे आतां अुलयता मरे, बापूय-पूत, पुण तुमच्या मदल्यान अुजो वचना. तेपरस जयवंत, तुजो आनी येशकामतीचो देमांद परवडलो.

जयवंत : तूं आनी त्या येशकामतीक मदींच रिगोंव नाका. सकाळीं-फुडें ताचे दर्शन न्हय नांव लेगीत घेवप म्हळचार अशुभ मानतां हांव. सांग रे अशोक.

अशोक : म्हगेलो इश्ट महेश अेके चल्येचें नांव सांगतालो.

जनाप्पा : म्हणजे खबर बऱ्यार्ची.

जयवंत : (कुचित्रीपणान) आरे, म्हज्या पुताच्या तोंडांतल्यान अितल्या सकाळीं वायट खबर कित्याक येतली ?

अशोक : तोच म्हणपाक लागलो,

जयवंत : कोण ?

अशोक : महेश.

जयवंत : आं. कितें म्हणपाक लागलो?

अशोक : म्हणपाक लागलो. तुकां सोयरीक घेवन आयला अशें समज.

जयवंत : खोशयेची गजाल.

अशोक : कितें करपाचें ?

जयवंत : समेर आयलो. बापूय म्हुण म्हाका विचारता जाल्यार बापायक सोबता तशी जाप दिवंची पडली ना. ? सोयरीक कोणाकडेन आयल्या ?

अशोक : म्हजेकडेन.

जयवंत : तुजेकडेन कशी आयली ?

अशोक : कशी म्हणजे ?

जयवंत : हांव मेलों ?

अशोक : अशें कितें अुलयता तूं ?

जयवंत : मागीर तूं अशें कितें करता तर ? सोयरीक खंयच्या चल्याक हें म्हत्वाचें ना. सोयरीक कोणा बापायच्या चल्याक हें म्हत्वाचें आसा.

अशोक : लग्न हांव जातलों.

जयवंत : जयवंतालो चलो म्हण जातलो. अेकमुळेपणान विचार करपाक तळपाक-फुटूना तूं.

अशोक : तशें जाल्यार बरें जावपाचें.

जयवंत : बापायक परती जाप करचे बदला तुजेकडेन सोयरीक घेवन येवप्याक करपाची. (जनाप्पाक) आरे घर म्हुण आसा. त्या घराण्याचे कांय नितीनेम आसात, प्रतिश्ठा आसा.

अशोक : चली वायट ना खंय. महेशाली आतेभयण.

जयवंत : चलयेचें पडला कोणांक? चली वायट ना खंय. म्हणजे सुंदर आसा म्हणटकूच गरीब आसतलीच.

अशोक : हय सामकी गरीब.

जयवंत : वा ! मागीर तुज्या गळ्याक बांदपाक कोण कित्याक मुखार सरचो ना. ?

अशोक : जातींतलीच आसा.

जयवंत : जात चाटपाची ना. हुंडो म्हण कितें रिवाज आसा काय ना?

अशोक : तें तांचेकडेन जमपाचें ना.

जयवंत : मागीर बुडयात म्हणजे चलयेक व्हरून बांयत.

अशोक : पापा–

जयवंत . इतलो कळवळो कित्याक ?

अशोक : पापा, तुकां अशें अुलोवप सोबना.

जयवंत : कित्याक ?

अशोक : तुज्याय घरांत धुवो आसात. वाडिल्ल्यो आसात.

जयवंत : मागीर ?

अशोक : तांच्याय लग्नाचो प्रश्न आसा.

जयवंत : (जनाप्पाक) समेर आयलो.

अशोक : तांचीय लग्नां जावपाक जाय.

जयवंत : अशोक, धुवो वाडिल्ल्यो आसात न्हय ? आनी दोगी जाणी तुज्यापरस व्हड आसात.

अशोक : प्रश्न तांचोच आसा.

जयवंत : तांचो प्रश्न आसताना हो प्रश्न मदीं कसो आयलो ? आतांच म्हाकां तूं सांगतालो न्हय, तुकां अशें अुलोवप सोबना आनी दोन भयणी तुज्याकय व्हड आसतना तांचो विचार कुशीक दवरुन धोंपराक बांशिग बांदून नाच पाक तुका सोबता ? तोंडांच्यो कणयो करुन तेंच सांगता हांव दीस रात. घराण्याचें काय नितिनेम आसात. ते

पाळात. निदान लोकलजे खातीर. (जनाप्पाक) सगळें खुंटयेक हुमकळावन चल्ले !

अशोक : कुमूददांदीची आनी सीमाताईची म्हज्या लग्नाक आडखळ ना.

जयवंत : तांची नासू. म्हजी आसा. हांव तांचो बापूय आनी तुजोय बी. (जनाप्पाक) हांव बापूय हें जड जालां हालीं.

अशोक : मागीर हांव करूं तरी कितें ?

जयवंत : (जनाप्पा) समेर आयलो. (अशोकाक) हो प्रश्न हांगा सोपलो. आतां सरळ वचून देवळांत जोत लाय. तेंच चड गरजेचें आसा. (अशोक मोन्यानी वता.)

जयवंत : कित्याक आयिल्लो तूं ?

जनाप्पा : अशोकान विशयाक तोंड करून दिल्लेंच आसा.

जयवंत : ताच्या तोंडाक लाय–

जनाप्पा : खरें म्हळयार सोयरीगतीचे भानगडींत म्हज्या सारकेल्या मनशांनी पडप समा न्हय.

जयवंत : हे पालूपद फाटलीं कितलीशींच वर्सां तूं घोळयत आयला आनी त्याचबरोबर सोयरीगती जुळयत आयला.

जनाप्पा : म्हणणींच आसा – बरें जाल्यार न्हवरे व्हकलेचें, वायट जाल्यार रायबाऱ्याचें.

जयवंत : आपलें मन नितळ आसतकूच जालें.

जनाप्पा : सारकें. तुज्या घरांतल्यो दोगूय धुवो–

जयवंत : कुमूद आनी सीमा.

जनाप्पा : हय. दोगांकूय पळयतकूच काळजाक चिमटो येता. तुज्यो वेदना तर तूंच जाणा जातलो.

जयवंत : उलय.

जनाप्पा : म्हळें, अेकली तरी अुजोवंक मेळटा जाल्यार पळोवया.

जयवंत : मागीर ?

जनाप्पा : हांवे सुरवेक कुमूदाखातीर अुतर घातिल्लें पुण इतलीं वर्सां म्हणटकूच अुलयतल्याची सामकीच अडणूक जाता.

जयवंत : ताचीं वर्सां तुकां कोणे सांगलीं ?

जनाप्पा : आरे, असल्यो गजाली आपण धांपपाचो यत्न केल्लो म्हण गुपीत उरना. व्हारो वाडचो तशी चल्लीमनीस वाडटा आनी गांवभर फांफू जाता.

जयवंत : म्हणटकूच सोयरीक सीमाखातीर हाडल्या. खरें सांगूं, कुमूद आसतना सीमाचो विचार करप बापूय या नात्यान

म्हाका समा दिसना.

जनाप्पा : सगळें खरें. पुण परिस्थिती नजरेआड करुन कशें जातलें? म्हाका दिसता, कुमूदाखातीर सीमा कोणाच्याय हाताक लागता तें दवरप म्हळचार कुड्डेपणा जातलीं.

जयवंत : मागीर कुमूदाचें कितें करप ?

जनाप्पा : आतां ताका खूब उशीर जालो. हाचो विचार तुवें खूब आदीं करपाचो.

जयवंत : (ताळून) फुडें सांग.

जनाप्पा : चलो चालचलणुकेन, घरादारान बेस बरो.

जयवंत : म्हजे मन आजून तयार जायना.

जनाप्पा : देण्याघेण्याचो प्रश्न अुपरासचो ना.

जयवंत : बरें.

जनाप्पा : खावन जेवन सुखासमाधानान रांव येता अितली जोड आसा.शिवाय थोडेशें घरभाट.

जयवंत : वायट ना.

जनाप्पा : अेकूच अडचण येवं येता.

जयवंत : कसली ?

जनाप्पा : खरें म्हळचार सगळे परिस्थितीची सुनशा घेतल्यार ती अडचणूच भासूं नये. दोनूय पार्तींचो विचार केल्यार तांका ती आडखळूच न्हय.

जयवंत : मागीर आडखळ कोणाची ?

जनाप्पा : तुजी.

जयवंत : म्हजी ? कित्याक लागून ? सोयरीकेंत कसली भानगड आसा.

जनाप्पा : तसली भानगड कसली ना. चली धाकुलपणांक दिवची पडटली.

जयवंत : (रागान अुबो रावता) जनाप्पा, तूं शेजारी म्हण तुकां हांगा अुबो करुन घेतां. आनी कोणूय जातो जाल्यार (बोट दाखोवन) ही वाट दाखयतलो आसलो.

जनाप्पा : मातशें समजून घे. चलो तसो जाणटो न्हय. तुजे धुवे परस तर न्हयच न्हय. पयल्या लग्नाउपरांत दोन वर्सांनी ताची बायल मेली. भुरगेंबाळ कांयअेक ना.

जयवंत : तुकां धाकुलपणाच्यो सोयरीको करपाची खाजूच आसा जाल्यार आनी कोणाच्याय दारार मार. जयवंताल्या न्हय.

जनाप्पा : जयवंत इतली मिजास बरी न्हय. एकली धूव सुखाक

पावतली.

जयवंत : हांव बापूय तांचो.

जनाप्पा : देखूनच सांगता. तांच्या सुखाच्या आड कित्याक येता ?

जयवंत : कसले सुख ? अकलेक येवना कोण. धाकुलपणाक चली दिवं ? गांवार भोवताना नाक उरचें ना.

जनाप्पा : कोणाक ?

जयवंत : तांच्या बापायक.

जनाप्पा : तांचो विचार केन्ना करतलो ?

जयवंत : (ताळून) म्हशीचीं शिंगा म्हशीक ज़ड जायना.

जनाप्पा : सभाग्या, तुज्या संवसाराची म्हस अुठाणां आयल्या.

जयवंत : यो आतां.

जनाप्पा : हांव शेजारी तुजो.

जयवंत : दुस्मान परवडलो.

जनाप्पा : तूं अुलय तुकां जाय तें. पुण शेजाऱ्यांचें घर जळटा तें पळोंव नज दोळ्यांनी.

जयवंत : जळटा जाल्यार जळूं दी. निदान जळटचा उज्यांत तेल तरी ओतोवपाची करणी करुं नाका.

जनाप्पा : तुज्या दोळ्यांर कसली साय दाटल्या तेंच कळना.

जयवंत : समजूपाची दर अेकल्याची मर्यादा आसता.

जनाप्पा : आपलेच करणेन तूं आपल्याच पायांर फातर मारून घेता.

जयवंत : तुकां अेकदां सांगले, यो तूं आतां.

जनाप्पा : आरे पापया, हांग तुजो देमांदिस्त सभाव आड येता. तुजे लटके प्रतिश्ठेखातीर ह्या वाडिल्ल्या धुवांचे जिणेकडेन तूं देमांद खेळटा आनी देमांदान काळ्याचे धवे जावन दोनूय कुळां धरणेक लागता हें तूं बेस बरें जाणा.

जयवंत : देमांद तुजो विशय न्हय.

जनाप्पा : म्हाका ताचो वासूय नाका. तुकाच तो लखलाब जांव.

जयवंत : आशिर्वाद पावतलो तुजो.

जनाप्पा : बकच्छायो करता ?

जयवंत : मागीर कितें धुवेक धाकुलपणाची सोयरीक घेवन आयिल्ल्याक आरत दाखोवं ?

जनाप्पा : धुवांचे सुख नसाय तुकां. हांव जाणांच आसलो– तूं विरोध करतलो. सीमान शिटकायिल्लो म्हाकां.

जयवंत : (दुबावान) म्हज्या आदीं सीमाकडेन अुलयिल्लो ?

जनाप्पा : हय. सीमाक सगळें मान्य आसलें. आनी कुमूदाची मान्यताय

आसली. मदीं शिकलो तो तूं.

जयवंत : (अदिक रागान) जनाप्पा, अेक खिणभर लेगीत थारतलो न्हय.

जनाप्पा : सकाळीफुडें तुज्या तोंडाक लागूंक हारेवना हांव.

जयवंत : म्हज्या संवसारांत धवळ घालपाचो तुकां दिरेत ना. केदी कापस्ताद तुजी. म्हजेकडेन पावच्या आदीं म्हज्या धुवांकडेन सोयरीकेच्यो गजाली उलोवंक पावलो. आनी हीं नाकशिबरीं—

जनाप्पा : चल्लों हांव.

जयवंत : समेर आयलो. मदीं पांय दवरीना जाल्यार अुपकार जातले. निमाणो म्हज्या मर्णाक आल्यार पुरो. (जनाप्पा वता) (सुप्रीया येवन सोफा, कदेलीवयले तुवालेबी बदलता. जयवंत ताका आयकूंक येवचें अशा अदमासान अुलयता.)

जयवंत : चिन्ना बऱ्याची न्हय हीं. जयवंताच्या घराची अुस्तवारी शेजारी करपाक लागले. कित्याक करचे ना! घरची मनशां दुबळीं थल्ल्यार शेजाऱ्यांक अुपकाराचो आव हाडूंक कितें जाला? घराण्याची लज, प्रतिष्ठा कितें आसा काय ना? चलया मनशांची कितें मेद मर्यादा आसा कांय ना? जयवंत मरुना अजून. वाट पळयता दर अेकलो. मरतलो तेन्ना मागीर बाडवडिलांनी जोडील्लें सगळें मातयेभरवण करपाक हात मेकळे. आतां न्हय. हांव हें सगळें वंटीक लेखून उलयना. तुमकां आयकूंक येवचें देखून. (सरळ सुप्रीयाक) तुकां शिटकायतां हांव. भायर सिर्वीस करता तूं. सिर्वीस करुन जोडून हाडटां तें पुरो. आनीक दुसरें कितें जोडून हाडू नाका. तूंय, गळच्याक तेकलें आतां देखून चत्रायतां. दोन गळफांस आदींच अंदल्ल्या म्हण कणयो करतां तोंडाच्यो. (सुप्रीया काम करुन भितर वता.) पुण काना मनार घेता कोण! हांव आसून नासो जाला घरांत. हात भोंवडायतलीं बापायच्या बोडार. (शिक येता) सत् खरें! या नाकाक पडल्या पाड. (जयवंत अस्वस्थतायेन पासयो मारीत आसा. बऱ्या वेळान येशकामत येता. येशकामत जयवंताचे पिरयेचो. धोतर, खोमीस, तोपी, कोट, असो भेस. येशकामत जयवंतालो शेजारी.)

येशकामत : जयवंत.

जयवंत : (वयर पळयत) कोण येशकामत.

येशकामत : हय येशकामत. वळखलो ना?
जयवंत : ना वळखूपाक कितें जालां?
येशकामत : मेळून बरोच तेप जालो म्हण विचाल्लें.
जयवंत : कसलो तेप? फाटल्या म्हयन्यात त्रिबूनालार मेळळ्यात.
येशकामत : हय हय. विसल्लोंच हांव. ताच्या आदीं खंय मेळिल्ले ?
जयवंत : त्रिबुनालारच आसतले (विशय बदलीत) कित्याक आयिल्लो ?
येशकामत : खरेंच जयवंत. अजापाचे मनीस आमी. दोगूय शेजारी, अेका अुल्याच्या अंतरापरसूय आमचीं घरां लागीं. तुजे रान्नीर हुमण शिजता जाल्यार म्हजें रानचेकुडींत ताचो घमघम पावूं येता अितलीं लागसार. खरें म्हळचार शेजार धर्माप्रमाण अेकमेकांच्या दु:खाचें वाटेंकार जावपाचे. अदींमदी मेळपाचें पुण आमी खंय मेळटा काय म्हळचार त्रिबुनालार.
जयवंत : देमांद रगताच्या भावांक लेगीत पयस करता. शेजाऱ्यांक केल्यार कसलें अजाप.
येशकामत : जयवंत, हांव म्हणटां देमांद कोणांचो ?
जयवंत : (न कळून) कोणाचो म्हणजे ?
येशकामत : देमांद सेलाद फोलींचो. फोली झगडटात त्रिबुनालार. आमी आमचें मदीं वायट करुन कित्याक घेवचें ?
जयवंत : येशकामत, फाटलीं वीस वर्सां आमचे मदल्यान केन्नाच अुजो गेलो ना.
येशकामत : आरे हय हय. वीस वर्सां जालीं ते गजालीक न्हय ?
जयवंत : खंयचे गजालीक?
येशकामत : तेच आमचे देमांदाचे गजालीक.
जयवंत : तूं देमांदाची गजाल अुलोवपाक आयला ?
येशकामत : तें काम हांवें केल्यार म्हजो आदवोगाद कितें करतलो ? आरे, त्या देमांदाक लाय चुट्टी. तो देमांद आदवोगाद आनी सेलाद फोली पळोवन घेतले. म्हाका आमच्या शेजारधर्माचें पडलां.
जयवंत : शेजारधर्म करपाक कोणे कोणाक आडायला ?
येशकामत : आमीच न्हय रे अेकामेकाक आडायल्यां. देखून हांव ही वणत मोडूंक सोदतां.
जयवंत : खंयची वणत ?
येशकामत : पळय, पळय तुज्यांतलो देमांदीस्त जागो जालो आनी

वणत मोडटां ती तुगेल्या घराची न्हय. वणत आमच्या दोगांमदली.

जयवंत : मोड. म्हजी कांय हरकत ना.

येशकामत : हरकत ना म्हणजे कितें ? आरे, आमचे मदलीं दोंड सांदून येतली जाल्यार दोगांयनी तशी चलणूक दवरूं नाका ? एका हातान ताळी वाजना. कानसुलार थापट मात वाजता. मागीर तुजें कितें म्हणणे?

जयवंत : कित्याविशीं? ताळयेविशीं काय थापटाविशीं ?

येशकामत : जयवंत, हांव फाटलें अुलोवपाक येंवना.

जयवंत : मागीर कित्याक आयला?

येशकामत : फुडलें अुलोवपाक.

जयवंत : अुलय

येशकामत : अुलोवप आमचेविशीं न्हय.

जयवंत : मागीर कोणाविशीं?

येशकामत : भुरग्यांविशीं.

जयवंत : (गोंदळून) कोणाल्या भुरग्यांविशीं ?

येशकामत : म्हज्या न्हय, तुज्या भुरग्यांविशीं.

जयवंत : म्हाका दिसता, म्हज्या भुरग्यांविशीं अुलोवपाक हांव समर्थ आसां.

येशकामत : जयवंत, तूं आमचे मदली वणत विसरपाक तयार ना. हांव म्हणटां, आमी मन अुकतें करुन अुलयल्यार कशें?

जयवंत : म्हजें मन अुकतेंच आसा.

येशकामत : म्हणटकूच धांपला तें म्हजें मरे?

जयवंत : अशें हांवे म्हणू ना.

येशकामत : हांवे म्हणूना आनी तुवें म्हणूना. अखेर आमी समेर येवचेच नाशे दिसता.

जयवंत : यो, समेर यो.

येशकामत : म्हगेलो भाचो, खबर आसा मरे ?

जयवंत : (फुतफुतून) येशकामत, तुजीं पाळांमुळां म्हाका खबर आसा.

येशकामत : आरे, भाचो म्हळचार राधेलो चलो.

जयवंत : हां हां, राधेलो चलो. नांव कितें कांय म्हळचार ...मनोहर.

येशकामत : न्हय, कमलाकर

जयवंत : हां हां, कमलाकर. मागीर ताचें कितें जालें ?

येशकामत : थूमेकाल ! ताचें कांय जावना. बलायकेन बरो धश्ट पुश्ट आसा.

जयवंत : आसपाचोच. आवयबापायचो अेकलो अेकसुरो पूत. बापूय ल्हानपणातूच सोंपलो. आतां एकली आवयूच आसा दिसता.

येशकामत : तिवूय ना. ती मरुन पांच वर्सां जालीं.

जयवंत : पांच वर्सां जालीं? आरे, मागीर म्हाकां कशें कळ्ळें ना?

येशकामत : कशें कळटलें जयवंत ? देमांदांच्या वीस वर्सांतली गजाल ती.

जयवंत : अशें अशें. म्हणटकूच राव रे, सगळें घरभाट तुगेल्या कमलाकराकूच पडलें.

येशकामत : हय तर. देखून ताका असो वयर सकयल करचो पडटा

जयवंत : आनी राव रे, तागेली ती अेक कोण चुलती आशिल्ली तिगेलेंय बरेंच आसलें.

येशकामत : सांगता कितें तर ! सगळें हाकाच पडलें पळय. हांवें मर्दी थोडी खटपट लटपट केली ना. म्हळें, म्हजेवटेन कितेंय घुंवडावंक मेळटा जाल्यार पळोवया.

जयवंत : मागीर ?

येशकामत : मागीर रे कितें? भाचो वस्ताद! भाचो कोणाचो तर! देमांदीस्त येशकामतीलो न्हय? मामाची खंयच दाळ शिजपाक दिली ना. आनी अितलेंय करुन नातेंपातें आसा तश्शें राखून दवल्लें.

जयवंत : पोर भाग्यवान.

येशकामत : भाग्यवान खरो, पुण पोर !

जयवंत : पोर ?

येशकामत : आरे, आसा कोण ताका ?

जयवंत : तूं मामा आसा तो ?

येशकामत : हांवें काल तेंच सांगलें ताका. म्हळें, तुजो मामा कितलो तेप पावतलो तुका ?

जयवंत : हांगा आयला ?

येशकामत : पयर आयिल्लो. आज वचपाचो. हांवेंच थारावन दवल्लो. म्हळें, अेकदाचें कितें तें जाग्यार घालूया.

जयवंत : कितें जाग्यार घालूया ?

येशकामत : लग्नाचें. आरे, कितलो तेप म्हण असो वाडत रावतलो? वर्सां थोडी ना ताका. भाटां बेंसाची उस्तवारी करता

करतां पिराय कितली वाडली ताचें ताका भानूच ना. बरो अुजरायलो, तापयलो. रातभर आमची बाचाबाची. मध्यानेर सुमार जाग्यार आयलो. म्हणपाक लागलो, लग्न जावपाक तयार आसा. चली मेळू नाका ? हांवें म्हळें, चली मेळना ? सोदली तुवें केन्ना? तर ना. मागीर कशी मेळटली ? आरे, येशकामतीच्या भाच्याक चली मेळना म्हळचार कोणय शेण घालतलो तोंडात.

जयवंत : (आपल्या भितर) मागीर घातले शेण तोंडात ? (उक्तेपणी) मेळ्ळी चली?

येशकामत : सांगतां न्हय. हांवें म्हळें, चली जाय मरे? आमच्या शेजराक अेक न्हय, तिगी चलयो आसात वाडलेल्यो. तर कितें सांगू! हो काचाबूल जाल्ल्याभशेन. हांवें म्हळें, जालें कितें ? तर विचारता, कुमूदाचें लग्न जावना ? म्हाकां बशिल्लेकडेन शेळो घाम सुटलो. न्हय म्हळें सभाग्या, तुमचें प्रेमबीम आशिल्ले व्हय रे ?

जयवंत : शक्य ना.

येशकामत : कशें शक्य जातलें ?- ल्हानपणांतली वळख. भुरगेपणांत तो हांगाच आसतालो न्हय. तेन्नाची खबर.

जयवंत : तेन्ना अेकेच शाळेंत शिकतालीं खरीं.

येशकामत : तेंवूय सांगलें ताणें. आनी सामको सपनांत रंगून कितें कितें सांगचें ताणे.

जयवंत : कितें सांगलें ?

येशकामत : म्हणपाक लागलो, भुरगेपणात आमी खेळटालीं तेन्ना आपूण घोव आनी कुमूद आपणाली बायल जातालें.

जयवंत : अशें अशें.

येशकामत : आतां ता म्हळचार ताकभात हें आमकां कळटा न्हय ? म्हळें, तशें जाल्यार हांव फाल्यां वचून जयवंताक मेळटा. तर म्हणपाक लागलो, तें कशें शक्य आसा ? तुमचें मदीं तो वीस वर्सांचो देंवचार ठाण मांडून बसला.

जयवंत : कोण देंवचार ?

येशकामत : हांवें तशेंच बिचाल्लें. तर म्हणपाक लागलो, वीस वर्सांचो देमांद. हांवें म्हळें, त्या देमांदाक लाय चुट्टी. देमांद कोणाचो ?

जयवंत : सेलाद फोर्लिचो.

येशकामत : तें जालेंच. देमांद येशकामतीचो आनी जयवंताचो. तुजो

आनी कुमूदाचो न्हय. हांवें म्हळें, भाच्याखातीर जयवंताकडेन अुलोवणी करपांत म्हाकां मातलेगीत खालतेंपण ना.

जयवंत : कित्याक आसचें ?

येशकामत : तर विशय हो असो आसा. आतां नमनाक घडोभर तेल वापरप हो येशकामतीच्या रगताचो दोशूच जावन आसा ताका कितें करतलो ?

जयवंत : अडीचें न्हय, बडींचेंच तें. ( दोगूय हांसतात )

येशकामत : आतां कशें जालें ? म्हणटकच तू कुमूदाक विचारता न्हय ?

जयवंत : ताका विचारपाची गरज ना.

येशकामत : हय, बाकी ताची तरी आडखळ कित्याक आसतली म्हण ?

जयवंत : फुडलीं अुलोवणी करपाक हरकत ना.

यशकामत : वा वा ! आतां आमी खरे शेजारी सोबले. सारके मांडयेक मांडी लावन सोयरीगतीच्यो गजाली अुलोवया.

जयवंत : चल्याचे वतीत कितें अुलोवपाचें आसा तें तूं अुलय.

येशकामत : तुकां खरें सांगू ? चल्याचे वतीन कांयच अुलोवपाचें ना. रितिरिवाजाप्रमाण जें कितें घडटा ताका ताजी मान्यताय आसा. खंय कितें आगळे अुणे जाल्यारुय तो कां कूं करपाक ना. तसो वयान वाडला म्हण. नाजाल्यार सामको साबळो पोर !

जयवंत : म्हणटकूच चल्याचे वतीन कायच अुलोवपाचें ना अशें समजुपाचें.

येशकामत : अशें समजूं येतालें पुण चल्याक मामा नाशिल्लो जाल्यार!

जयवंत : म्हणजे ?

येशकामत : आतां चल्याचो मामा म्हळ्यार हांव. आनी हांव म्हळ्यार येशकामत. आनी जयवंत तूं जाणा, येशकामतीच्या रगताचो दोशूच तो, सोयरीकेत लेगीत वेपार हाडप.

जयवंत : हातूंत वेपार कसलो आसा ?

येशकामत : थोडो आसा. आतां पळय, चल्याचेवतीन कांय अुलोवपाचें ना. पुण म्हजेवतीन अुलोवपाचें आसा.

जयवंत : अुलय, कितें अुलोवपाचें आसा तें स्पश्ट अुलय. मागीर अेन वेळार कायचे काय घडिल्लें म्हाकांय सोसपाचें ना.

येशकामत : ताचें कितें आसा; तुजी चली सुखाक पावतली हातूंत मात्तूय दुबाव ना आनी जयवंत, हांव वीस वर्सांची

दुस्मानकाय विसरून हांगा आयलां.

जयवंत : अुलय, स्पश्ट अुलय.

येशकामत : ह्या लग्नाच्या बदलाक तुकां अेक गजाल करची पडटली.

जयवंत : खंयची गजाल ?

येशकामत : आमचो वीस वर्सांचो देवतेपांटच्याचो देमांद आसा, तो तुवें फाटीं घेवचो पडटलो.

जयवंत : (थंडसाणेन) तुज्यान वचूं येता.

येशकामत : तूं जाय जाल्यार हाचेर विचार कर.

जयवंत : (मातसो तापून) येशकामत, तुज्यान वचूं येता.

येशकामत : म्हाका फाल्यां सांगल्यार जाता.

जयवंत : हांव तुका आतांच सांगता, तूं हांगचो वच.

येशकामत : जयवंत, तुजी सगळयांत वाडिल्ली चली अुजोवंक मेळटा हें नशीब समज.

जयवंत : कोणाचें नशीब ?

येशकामत : तुजें न्हय. ते चलयेचें.

जयवंत : तिचें नशिब थंय कुसल्यार जाता. पुण तुजी अट हांव मान्य करपाक ना.

येशकामत : हो सादो वेवहार आसा.

जयवंत : म्हाका मान्य ना.

येशकामत : तशें पळोवंक गेल्यार जयवंत, तुवें हो देमांद बळयां म्हज्या आंगार घातला.

जयवंत : तें थरोवपाची सुवात ही न्हय. त्रिबुनाल. कितें घडपाचें आसा तें थंय घडटलें. वीस न्हय, शंबर वर्सां लेगीत लागल्यार अुपकारता. म्हजें आसा तें हांव झुजून हाडटलों.

येशकामत : म्हणजे चलयेच्या सुखापरस तुकां देमांद व्हड ?

जयवंत : हय. धुवेच्या सुखापरस देमांद व्हड. तुकां कितें म्हणपाचें आसा?

येशकामत : कांय म्हणपाचें ना. अखेर म्हजो अदमास चुकलो तर !

जयवंत : येशकामत, अदमास केन्ना सारको जावप ना, होवूय येशकामतीच्या रगताचो दोशूच जावन आसा. ताची फळां त्रिबुनालार भोगता तूं.

येशकामत : त्रिबुनालावलें हांगा वयर काडपाची गरज ना जयवंत.

जयवंत : दुस्मान म्हजो. फाटलीं वीस वर्सां नदर घालूना तुजेर. आज आपूण जावन आयला. नार्कशिबरो.

येशकामत : नार्कशिबरो हांव कित्याक ? तुगेर धुवो आसा म्हण

आयिल्लों सोयरीकांक.

जयवंत : सोयरीकेक न्हय, वेपार करुंक आयला तूं वेपार.

येशकामत : ह्य वेपारच करुंक आयलां. तुकां पटना जाल्यार कोण फोर्स करता ?

जयवंत : पटना म्हण व्हदळूच सांगलां. तरी आसतना कित्याक तोंडाक लागता?

येशकामत : आरे, गरजे भायर तोंडाक लागप हो दोश कामतीच्या रगतांतूच आसा म्हण, नाजाल्यार कोणांक पडलां?

जयवंत : यो आतां.

येशकामत : मेळचें.

जयवंत : मेळचें. पुण हांगा न्हय. त्रिबुनालार.

येशकामत : ह्य. त्रिबुनालारुच. येशकामत कोण तो तुका थंयच् दाखयतां (वता)

जयवंत : पळोवया, पळोवया. तुजीं पाळामुळां हांव खणून वडयना जाल्यार नांवाचो जयवंत न्हय.

( सगळें सामान कवळून आपले कुडींत वता. सुप्रीया भायर येता. रेडीयो लायता. रेडीयोचेर गीत वाजता. ... ' शब्दुलेच्या फुला तुकां भोवरो जावन चुवतलों. ....' कांय वेळान पोरसाचे वाटेतल्यान अुल्हास येता. तरणो, देखणो सुप्रीयाचो मोगी. सुप्रीया ताका पळोवन कांचवेता.)

सुप्रीया : तूं ?

अुल्हास : कांचवेलें कित्याक ?

सुप्रीया : असो आडवाटेन ?

अुल्हास : तुजेखातीर कसलीय वाट पसंत करची आनी आमकां फुडलें दार बंद न्हय ?

सुप्रीया : तशें कोणे सांगला ?

अुल्हास : तशें सांगपाक कित्याक जाय ? आजूनमेरेन घराचो पत्तो सांगूक नासलो ताचें दुसरें आनीक कितें कारण?

सुप्रीया : सोडून काडलें काय ना ?

अुल्हास : कितें ?

सुप्रीया : घर.

अुल्हास : घरां सोडची लागना. वळखूंचीं पडटात. चलयो मात सोडच्यो लागता.

सुप्रीया : जाल्यो सोडून ?

अुल्हास : कितें ?

सुप्रीया : चलयो.
अुल्हास : हय तर. पयल्लीं सोडून काडल्यो आनी मागीर तातूंतली अेक वेचून काडली.
सुप्रीया : कशी आसा ?
अुल्हास : बेस बरी. शब्दुलेच्या फुलाबशेन. (सुप्रीया रेडीयो बंद करता. ) बाकी स्वागत बरें जालें आं.
सुप्रीया : पोरसांतल्यान येवपाक सांगिल्लें कोणे ?
अुल्हास : फुलाच्या मोगान आयिल्लो गुंगुल्लो पोरसांतूच येवपाचो.
सुप्रीया : ऑफिसाक गेलो ना ?
अुल्हास : तूं कित्याक गेले ना ?
सुप्रीया : दिसूच अुदेताना वाजेवणोसो अुदेलो.
अुल्हास : म्हजो दीस सदचेवरी खोशयेनूच अुदेलो. सकाळफुडें बस स्टॉपार हजर जालों. तुजी वाट पळयली. बस आयिल्ली सोडून दिली. आतां म्हळें, या तुजे सोदीक. हांगा थंय झळपेत चलतालों. थंय सावन हयन्हयशें तूं झळकलें.
सुप्रीया : म्हण ह्या दारान आयलो ?
अुल्हास : हें दार आनी तें दार ! दारां कांय मनशाक आडावपा-खातीर नासतात. ( सुप्रीया गंभीर जाता. ) सुप्रीया, हेंच – हेंच लागता म्हज्या मनाक. सैमीक झऱ्यावरी हांसपी - खिदळपी तूं. कसलेतरी भिरांतीन अकस्मात सैमा आयिल्लेवरी जाता. तुजी ही अवतिकाय पळोवन काळजांतसून न्हिन्नळटां हांव.
सुप्रीया : म्हजें दुबळेपण तें.
अुल्हास : तेंच पयस करपाक सोदतां हांव.
सुप्रीया : जलमाथावन लागिल्लो शाप तो. या घराचो शाप.
अुल्हास : तुका ह्या घरापासून पयस व्हरतलों.
सुप्रीया : घरापासून व्हरशी. ते भिरांतीपासून व्हरूंक जावचें ना.
अुल्हास : (तिडकून) व्हरतलों व्हरतलों, मुक्त करतलों तुकां.
सुप्रीया : आड्डूं नाकां.
अुल्हास : कित्याक ?
सुप्रीया : पापा भितर आसा.
अुल्हास : आज ताचोच विचार करुन आयलां हांव.
सुप्रीया : म्हजो विचार केल्लो दिसनां तुवें.
अुल्हास : अेकदांचो फोड फोडील्लो बरो.
सुप्रीया : म्हाका वेदना भोगयतलो.

अुल्हास : भोगपाच्यो आसल्यार त्यो केन्नातरी भोगतल्योच. मागीर आदींच खंतीन कित्याक झिजप ?
सुप्रीया : तुवें आज येवपाक फावनासलें.
अुल्हास : कित्याक ?
सुप्रीया : आज घरांन वातावरण शांत ना.
अुल्हास : या घरांत कितल्या वरसांसावन शांतीचो विलय जाला तें तुज्याच तोंडान सांगलां तुवें म्हाका.
सुप्रीया : तरी लेगीत आज तुवे येवपाक फाव नासलें.
अुल्हास : तुजे जिणेंत हांवे येवपाक फाव नासले अशे म्हण.
सुप्रीया : नाका रे अशें अुलोंव.
अुल्हास : आतां तुका दोनांभितल्ली अेक गजाल करची पडटली. अेकतर म्हजें आयक वा तुज्या बापायचें.
सुप्रीया : ताचें आयकल्यार दोगी भयणी हुलपल्या तीच गत जातली म्हजे जीणेची.
अुल्हास : बापायच्या सभावाची जाण आसा तर –
सुप्रीया : ताचेपरस अदीक भिरांत आसा.
अुल्हास : ती पयस करपाकूच तर तुजे जिणेंत म्हजें येवप जालां.
सुप्रीया : तेच आशेर जगतां हांव.
अुल्हास : आमच्या लग्नाक तुज्या भयणांचो बिरोध ना, भावाचो ना. बापायचोच आसचो कित्याक ?
सुप्रीया : तो म्हजो बापूय अितलेंच त्या विरोधाचें कारण.
अुल्हास : तुवें केन्ना विचाल्लेले ?
सुप्रीया : वागाच्या तोंडात बोकडी आपूण जावन कशी रीगत ?
अुल्हास : चुडटे सरपाक तूं भिये. हांव कित्याक भियेतलों ? आनीक धीर धरपाक ह्या रगताक जमपाचें ना. तुजो बापूय– जयवंत घरांत आसा काय ना अितलेंच सांग.
(अितल्यान जयवंत दारांत येवन अुबो रावता. भायर सरपाखातीर कपडे घालून तयार जाला. अुल्हासाची ताका फाट आसा. सुप्रीया जयवंताक पळयता आनी बेगीबेगीन भितर वता. ) सुप्रीया, हांव विचारता जयवंत घरांत आसा वो ना ?
जयवंत : जयवंत दारांत आसा.
अुल्हास : (मातसो कांचवेता.) आं ... नमस्कार.
जयवंत : चमत्कार !
अुल्हास : बरें आयकूंक येना दिसता.

जयवंत : येता. ह्या वेळीर तुज्या काळजाचे ठेके लेगीत बेस बरे आयकूंक येता.
अुल्हास : म्हजे नांव अुल्हास.
जयवंत : ऱ्हास! हांव जयवंत. वळखदेख नाशिल्ले जयवंतूच म्हणटात. भुरगी मात पापा म्हणटात.
अुल्हास : म्हणटात काय तुमी म्हणूंक लायतात?
जयवंत : हांव देमांदीस्त. असले प्रश्न फकत त्रिबुनालार आदवोगादाकडसून आयकूपाची संवय आसा.
अुल्हास : सदचा कोणाकडेन चलता?
जयवंत : कितें?
अुल्हास : देमांद.
जयवंत : (आपले भितर) तुजेकडेन खेळचो पडटासो दिसता!
अुल्हास : सांगपाक अनमनलेशे? आसूं, हांव समजून घेयन आदवोगादाकडल्यान
जयवंत : सारको आसा न्हय?
अुल्हास : कित्याक पोरसांतल्यान आयला म्हुण दुबाव आयलो?
जयवंत : ना.
अुल्हास : थँक्यू. बसचे ना?
जयवंत : हे कदेलीसकट हें घर म्हगेलें.
अुल्हास : सुंदर आसा!
जयवंत : कितें?
अुल्हास : कदेल घर आनी घरांत रावपी.
जयवंत : जयवंताक सोदतालो न्हय?
अुल्हास : हय.
जयवंत : मागीर मुद्द्याचें अुलय.
अुल्हास : मुद्द्याचें म्हळ्यार अशें– तुमगेली चली–
अुल्हास : म्हगेल्यो चलयो तिगी.
अुल्हास : हय. पुण अुलोवपाचें अेकेच संबंदी न्हय.
जयवंत : तें तूं थारावन आयला.
अुल्हास : हांव सुप्रीया संबंदान अुलयतालों.
जयवंत : अुलय.
अुल्हास : आमी दोगांय अेकाच ऑफीसान काम करतात.
जयवंत : ऑफीसांत आनीक जायते जाण आसतले.
अुल्हास : आसाच. नायक, सावयकार, शिक्रो, कुंदो, देमांदीस्त कामत तागेलो चलो पुण आमी मोग करता दोगांच.

सुप्रीया आनी हांव.

जयवंत : पारपोळ!

अुल्हास : अितलीं नांवां सांगल्यांत तातूंतलो कोण?

जयवंत : मस्कऱ्यो नाका. दुसऱ्याली चली म्हणजे कितें दिसता?

अुल्हास : दिसूंक जाय तें दिसता. आमी अेकमेकांचो मोग करतां.

जयवंत : तोंडाक रंग फासून खंयच्याय नाटकांत अुलय ती भास. मोग करता खंय!

अुल्हास : आमी लग्न करपाक सोदतात.

जयवंत : कसलें? बावल्याचें?

अुल्हास : आतां मस्कऱ्यो तुमी करतात.

जयवंत : मागीर कितें तुजी तोखणाय करुं? आमी लग्न करुंक सोदता खंय. आमी म्हळचार कोण?

अुल्हास : सांगले न्हय. हांव आनी सुप्रिया.

जयवंत : सुप्रीया? आपय ताका म्हज्या सामकार. आनी लाय सांगपाक. भट ब्राम्हण, विधी म्हूर्त कांयच नासतना लावन दितां लग्न. आपय.

अुल्हास : (अुलो मारता) सुप्रीयाऽऽ सुप्रीयाऽऽ (सुप्रीया भायर येना)

जयवंत : जालो लग्न? कट्टुलार अक्षदा घालूं काय आनी कितें घालूं अुबारुन?

अुल्हास : तुजें वागरें पडटा ताचेर.

जयवंत : मागीर तूं खूब बेगीन आयलो.

अुल्हास : कित्याक?

जयवंत : हांव मरतकूच यो. तेन्ना ताचेर कोणाचें वागरें पडचें ना.

अुल्हास : तुज्या मरणाची वाट पळोवपाक म्हाका वेळ ना.

जयवंत : आनी म्हाकाय मरपाची ताकीद ना.

अुल्हास : खरेंच दुसऱ्यांक खावपाच्या सभावावयल्यान तशें दिसता खरें.

जयवंत : शाणो आशिल्लो जाल्यार फुडल्या दारसून येतलो आसलो. असो चोरावरी न्हय.

अुल्हास : सांबाळून अुलय.

जयवंत : म्हगेर अुबो रावून म्हाका धपकावणी?

अुल्हास : अुबो आसासर तरी नसतें आयकून घेवचों ना.

जयवंत : आं. किड्डी बऱ्यो आसात. तुजेसारक्या मवाल्याकडेन नातें जोडपाक म्हजे अब्रुचें आजून दिवाळें काडूना हांवें.

अुल्हास : तुजें अब्रुच्यो घुडयो गांवभर नाचतांत.

जयवंत : चलयेक मागणी घालपाक आयला. घरंदाज आशिल्लो जाल्यार आवय बापायक धाडटलो आसलो. प्रसाद पाकळी घेतलो आसलो.

अुल्हास : काळ बदलला. काळाक फाट करुन चलपा इतलो हांव कुड्डो न्हय.

जयवंत : काळ बदलला आसत. जयवंत बदलू ना.

अुल्हास : तुमकां बदलचें पडटलें.

जयवंत : काळयाचे धवे जाल्याक फर्माव नाका तूं.

अुल्हास : तुज्या सारके रूख जंय मातयेक घांस मारुन रावता थंय सकयल्यो रोपल्यो सांवटेन मरतात

जयवंत : कोणाची खबर अुलयता ?

अुल्हास : तुज्या वाडिल्ल्या धुवांची.

जयवंत : खंयच्या अधिकारान ?

अुल्हास : तुवें तांची जीण काबार केल्या खंयच्या अधिकारान ?

जयवंत : हांव बापूय तांचो.

अुल्हास : हो शाप तांकां.

जयवंत : म्हज्या घराची अुस्तवारी तुका नाका.

अुल्हास : हें घर अुरुंक ना. ही बंदखण जाल्या. हे बंदखणितल्यान अेका बंदयाक हांव मुक्त करुंक सोदता.

जयवंत : अुखल पांय.

अुल्हास : अवश्य अुखलीन. पुण म्हजे मर्जेर. तुज्या उतरार न्हय. तुज्या अुनराचेर नाचय तुज्या पांजरबंदयाक. तुज्या धुवांक. तुज्या पुताक.

( अितल्यान दारांत अशोक येता. )

जयवंत : अशोक, या खुळाक हाताक धरुन वाट दाखय.

अुल्हास : हो म्हज्या हाताक धरतलो ? म्हज्या हाताक धरच्या आदीं हाचे हात गळसणचे नात ?

जयवंत : अशोक, हाका म्हज्या मुखावयलो कुशीक काड

अुल्हास : असले दुबळे आज्ञाधारक पूत चडानचड बापायाखातीर बळी वतात पुण बळाचो प्रतिकार करपाक ते असमर्थ जातात.

जयवंत : अशोक हांव कितें सांगता ?

(अशोक रागान कसो अुल्हासाच्या आंगार झुडोन वता. अुल्हास प्रतिकार करीनासतना तसोच थीर रावता.

अशोक आपशींच नर्वस जाता.)

अशोक : (अुल्हासाक) हांव पायां पडटां तुज्या. हांगासून बरेबशेन चल.

अुल्हास : वतां. तुज्या अुतराखातीर वतां. (अुलो मारता) सुप्रीयाऽऽ

जयवंत : दारांत येवचें ना.

अुल्हास : अवश्य येतलें सुप्रिया ऽऽ (सुप्रीया दारांत येता.)
हांव वतां सुप्रीया. आतां येवपाचें तें तुवें हांव तुका जाय काय नाका तें तूंच थाराय. हांव तुज्या निर्णयाची वाट पळयतां. (सुप्रीया भितर वता.)
अशोक, अशोक म्हाका तुजी काकळूट दिसता. आनी दुबाव येता. तुज्या शिरंत्रांनी घोळटा तें रगत काय थंडकिरांव अुदक. कोणा काळांत जियेता रे तूं ? आपणालो अुद्दार करपाक खंयच्या रामाची वाट पळयत बसला पापया ? पुरुशार्थी तुजो पूत तूं. घे प्राणांत पोसोवन वीज. फोड रे हो पांजर. आनी मुक्त कर तुज्या भयणांक. . . वर्सांसंकिनीच्या बंदिवानाक. आनी तुवूंय जा मेकळो. जायना फोडूंक हो पांजर जाल्यार कर आत्मबलिदान आनी निदान माश्यो सरयो तरी बागय (अुल्हास तडक वता. अशोक तकली गच्च आंवळून सगळें सोंसता. रडचे दुकार पावता. तशीच बसकण मारता. कांय वेळ शांतताय. कांयच घडूंक नाशिल्ल्या बशेन जयवंत अशोकाची वासपूस करता.)

जयवंत : भट मेळ्ळो ? कितें सांगतालो ? सांगतलो कितें ? आमी म्हाजन शांतादुर्गेचे. आमकां जाय तेन्ना ताणे प्रसादाची वेवस्था करुंक जाय. हाली परक्यांक पयलीं माथ्थार घेवन बसता. तांचेकडसून चडशें झडटा न्हय ? अशा वेळार तोंड धांपून ओगी रावंक फावना. न्यायाखातीर झगडूंक जाय. त्या देवास्थानाखातीर थोंडें करुंना हांवें. धा वरसां कोमिसांव आसलों. अेक पानदुडू हांगचो थंय जाला जाल्यारजाय तसलो सोपुत. आतां ताळतंत्र कांय अुरुंक ना आयिल्ल्या कोमिसावांची तिजोरेचेर नदर आनी हिसबांत बोब. (अडेचो मायेस्त जावन) चड वोत लागले मरे ? अंदुचो गीम बरोच तापतासो दिसता. माथ्थार तुवालोबी वडावन वचपाचो मागीरसो कितें कर जाणा मरे ? येन्ना न्हय. सुशेग घे मातसो. ती पोरसांतली व्हियेल्ली केळ–घड माल्ला हावें काल. ती केळ काप आनी गबे काडून

हांगां सुकत उडय. फुडल्या नवरात्रांक झेल्यांक वावळच्यो जातल्यो. चलये भुरग्याचें काम हरशी तें पुण कोणाचो आधार ना. देखून तुका फर्मावचें पडटा. घड वायट जालो ना. वेळार मारुन बरें जालें. बाजाराक बऱ्या मोलान गेलो. कसलेय वस्तुक बाजारांत मोल येतलें जाल्यार त्या त्या वेळार सगळें जावंक जाय. येतना भाटांतल्यान आयिल्लो? (अशोक मान हालयता.) बरें केलें ना ! आपणाल्या बेसांत अशी मदीं मदीं फावट आसची. लॉजाकडेन नदर मारिल्ली ? (अशोक हयकार दिता) अशें ! संषय दवरुंक जाय. कोण आयला थंय ? कामेऱ्यांक म्हणिल्लेशें दिसता. आयल्यांत कोण ? (हयकार दिता) कोण आयल्यां काय ! (अशोक जाप दिना) साळूबी ? (हयकार दिता) हां. तेंच आसतलें. म्हणटकूच वचचें पडलें ना ? लॉजांत सगळीं सोण्णा सारकीं दाळून घेवपाक जाय. अेकदां वायटी लागल्यार हाताक कांय लागपाचें ना. तुकांच वच म्हणटलो आसलों पुण आतांच वोताच्या रखरखांतल्यान आयला. मातसो सुशेग घे.

**अशोक** : आयुश्यभर सुशेगच घेतलो.

**जयवंत** : चड तापलो रे ?

**अशोक** : तशें तापूंक येतालें जाल्यार सगळें आत्याचें पर्ते जातलें आसलें.

**जयवंत** : बरें, येतां हांव. कामेऱ्यांक पैशे फारीक करता ताचे दुपेटीन वावर करुन घेवपाक जाय.

**अशोक** : दुपेटीन काम करुंन घेवपाअितलें आसा तें.

**जयवंत** : तूं वता ?

**अशोक** : म्हाका सोण्णांतलें कितें कळटा ? सोण्णांसारकी भायर मोखपाची जीण अितलेंच हांव जाणा.

**जयवंत** : म्हणजे खूब जाणा !

(वचपाक वळटा. अितल्यान दारांत महेश येता.)

**जयवंत** : महेश न्हय तूं ? अशोकाचो अिश्ट.

**महेश** : हय.

**जयवंत** : अशोकाक सोयरीक घेवन आयला ? ही सोयरीक जावची ना.

**महेश** : हांवूय तेंच सांगपाक आयला.

(जयवंत ताका पळयता आनी भायर वता. महेश

अशोकाक हडकिता) हय अशोक, हांव तेंच सांगपाक आयलां.

अशोक : कितें ?

महेश : फाटल्या दिसांनी हावें तुका म्हजे आतेभयणिची – मनीशाची खबर सांगिल्ली. काल अकस्मात तें म्हाका मेळपाक आयलें. ताणे सांगलें, (वग्गी रावता)

अशोक : कितें सांगलें ?

महेश : सांगपाक लागलें, पयलीं म्हज्या मनांत अशोकाविशीं आदर आशिल्लो. पुण आतां ना.

अशोक : कित्याक ?

महेश : खरें म्हळचार अशोक तुवें काय ताका अुतर घालू नासलें. ताणेच आपूण जावन तुकां विचार म्हणिल्लें.

अशोक : ताणे नाका कित्याक म्हळें ?

महेश : जशें ताणे हय म्हणिल्लें, तशेंच ताणे नाका म्हळ्ळें.

अशोक : पुण कित्याक ?

महेश : हांव म्हणटां, तुकां तरी ताचेविशीं अितली खास ओड कित्याक ?

अशोक : ताणे नाका कित्याक म्हळें तेंच म्हाका कळपाक जाय.

महेश : तुका सांगचोना म्हण आशिल्लों.

अशोक : साग.

महेश : ताणें म्हळें, ज्याच्यो तीन भयणी लग्नाच्यो आसात तांच्या भावाकडेन हांव कशें लग्न जावं ? जो भाव आपणाल्या भयणांच्या लग्नाची जापसालदारकी ताळटा तो घोव म्हण अेके बायलेची जापसाळदारकी कशी पेलूंक शकतलो ? खरें म्हळचार अशोक, मनीशाचें हें अुलोवप म्हाकाय आवडलें ना.

अशोक : ताणे खरें तेंच सांगलें.

महेश : म्हणजे तुकाय हें मान्य आसा ? (अशोक वग्गी) खरें सांगू अशोक, खीणभर मनीशाचो म्हाका राग आयलो. बरी आतेभयण जाली म्हण कितें जालें ? म्हज्या अिश्टाचो अशा अुतरांनी अपमान करप ? मागीर हावेंच विचार केलो, मनीशाची तरी कसली चूक ? ताणे सांगले तांतूत फट कितें ? अशोक, तूं अेक अिश्ट म्हण म्हाका प्रिय आसा. पुण अेक समर्थ मनीस म्हण म्हाका प्रिय ना. मुद्दाम तुगेर येवन बळजबऱ्यां म्हणटा तसो

तुज्या काळजार दाग दिवंचो पडलो त्याखातीर क्षमा कर म्हाका. येतां हांव.

अशोक : (आत्मविश्वासान) येतलोच. तूं अवश्य परत येतलो.

महेश : (आस्तेन) खरेंच ?

अशोक : हय खरेंच.

(महेश भायर वता. अशोक विचार करीत बसता। माळयेरसून कुमूद आनी सीमा सकयल देंवतात. कुमूदाच्या हातांत विणपाचो स्वेटर आसा जाल्यार सीमाच्य. हातांत ताबुलफळें. तांचे जागीन भितरसून सुप्रीया येता.)

सीमा : चला. व्हदाळच्यान मुखार सुरु करुंया. व्हदळ आशिल्ल्यो तश्यो घुलो मांडून दितां (तिगांय खेळपाक बसतात. अशोक बसला थंयच आसा.) अशोकभाई, यो मरे.

अशोक : ना.

सीमा : कित्याक ना ? (अशोक वोग्गी) अशोकभाई, हरशी कित्याक ना तो ना. ह्या खेळांक तरी अुपकारा पड मरे आमकां. (कुमूद सीमाक दटायता)

सुप्रीया : भाई, तूं खरेंच येवचोना ? नाजाल्यार आमी तिगांच खेळटां.

अशोक : खेळात.

सुप्रीया : तुजें आज जालां तरी कितें ?

अशोक : तुमकां सगळें खबर आसून परत म्हाका कित्याक विचारतात ?

कुमूद : अशोक, अितलें मनाक लावन कित्याक घेता ? जे घडलां तें कांय पयलेच खेप घडूं ना. अशे प्रसंग ह्या घरांत अशे कितलेशेच घडल्यात. आज मात फक्त अेकार अेक घडल्यात तितलेंच.

सीमा : हांव सांगू, भाईक सगळयांत कितें वायट दिसलां तें ? तागेल्या त्या मनीशान न्हयकारलो न्हय गो ताका !

सुप्रीया : आमच्या भाईक न्हयकारतलें ? हं. अुजवाड पडलो न्हयकारतल्याच्या तोंडार !

कुमूद : ताणें उत्तर कित्याक फाटीं घेतलें तें खबर आसा मगो ?

सीमा : हय तर. निमित्त आसतलें आमचें. आनी आमचीं लग्नां जावना तें ताका कित्याक पडलां ? तें आमच्या बरोबर लग्न जावंक मुखार सल्लां कांय भाई बरोबर ?

कुमूद : आमच्या लग्नाक लागली चुट्टी. म्हाका चींता

अशोकाल्या लग्नाची.

सीमा : आनी सुप्रीयाच्या ?

कुमूद : तें भाग्यवान ! तागेलो घोव ताका अुबारून पसून व्हरत.

सीमा : दीदी, धाकुलपणाक लग्न जावपाची म्हजी तयारी आशिल्ली. दीदी, तुकां आजूनय दिसता, येशकामतीलो भाचो तुका मागणी घालतलो म्हण ?

कुमूद : म्हाका तो कितें मागणी घालतलो ? मागणी घालतलें तें.

सीमा : तें ? कोण तें ?

कुमूद : (वैतागून) मर्ण ! (सगळीं वग्गी पडटात.) चला, खेळपाचें आसल्यार खेळात नाजाल्यार हांव म्हजो स्वेटर तरी पुराय करतां.

सीमा : स्वेटर अितलो फांस विणटा जसो कितें तो फाल्यांच कोणतरी घालपाचो आसा.

कुमूद : (खरेंच करुन दाखयत) हं. आसाच.
(तिगीय भयणी मन सोडून हांसतात)

सीमा : भाई, चल मरे परत दाव मांडूया. असले लाग करप तुका सोबना आं. तूं कितें चारचौगांल्या भयणांसारको भाव न्हय.

सुप्रीया : चल आमीच खेळूया. नाजाल्यार म्हजी रजा बेठीच पाड जातली.

सीमा : पाड कित्याक जातली ? तुजे रजेचें सार्थक जालें काय ना ?

कुमूद : जालें तर. आगो, घरा येवन, तेंवूय मागीलदारासून खबर घेवन वचप म्हळयार कितें ?

सुप्रीया : खबर घेवन गेलो तें पळयलें तुमी ताचो अपमान जालो तो पळयलो ना.

कुमूद : ह्या घरांत अपमान जावचोना जाल्यार आनीक खंय जातलो ?

सीमा : आनी ताणे पापाचो अपमान कित्याक केलो ?

सुप्रीया : सांगू ? पापाचो जीव घेवपाक मेळ्ळो ना म्हण ताणे फकत ताचो अपमान केलो नाजाल्यार जीवच घेतलो आसलो.

कुमूद : (सहजतायेन) वायट जावचें नासलें.
(तिगांय मेकळेपणान हांसतात)

सीमा : (अशोकाक पळोवन) भाईन गरजेभायर खूबच लावन घेतलां. भाई, खेळपाक येना तो येना, हांस तरी मरे.

सुप्रीया : भाई, तुका कालची अेक मजा सांगतां. मागीर हांसतलो पळय. काल मरे सांजवेळा हांव ऑफिसाक सावन घरा

यो जाल्यार घरांत कोणाची जाग ना. तुवूंय नासलो. म्हाका बेश्टोच दुबावसो आयलो. पावलां वाजय नासतना हांव माळयेर गेलें. दाराच्या आडसून हावें कितें पळोवचें? कुमूददिदी खाटीर आड पडिल्ली आनी तिचे वेंगेत अेक दादलो आसलो. जाणां अशोकभाई, दीदीचे वेंगेत आशिल्लो तो दादलो पुण खरो दादलो न्हय. दादल्याचो भेस केल्लें सीमाताई ! (हांसता)

कुमूद : सुप्रीया, दादल्यांमुखार असलीं बायजुंवपणा सांगताना तुका मात्तूय लज दिसना ?

सीमा : आमचो भाई दादलो खंय तर ? तो म्हण अेक बायजुंवूच.

कुमूद : (धपकायत) सीमा. (अशोक दुकां गळयता)

सुप्रीया : भाई, आमी हांसता आनी तूं रडटा ? आरे, अशें जाल्यार आमच्या भांवडांमदीं भयणी कोण आनी भाव कोण तेंच कळचें ना.

अशोक : कळटलें.

सुप्रीया : भाई, तुज्या तोंडातल्या उतरांन आनी मनगटांत खूब अंतर आसा. तोंडान अुलयल्लीं उतरां जे शर्थी पावयतात तांकां पुरुषार्थी म्हणटात. आनी असो पुरुषार्थी मनीस आमचो भाव जावपा इतलें पुण्य आमच्या पदराक खंयचें ?

सीमा : तूं फक्त पापा जें सांगता तें मोन्यानी आयक ताच्या अुतरार गणसाबैलावरी मान हालय.

अशोक : ना.

सीमा : ना म्हण आमकां सांग. पापाक सांगूंक जावचें ना

अशोक : जातलें.

सीमा : आडेचो नेट तो. खिणभरलेगीत तिगपाक ना.

अशोक : तिगतलो.

सीमा : तिगतलो जाल्यार अितलो तेप हो राग खंय कुरंगटी करुन आसलो ?

अशोक : आता म्हाका दिश्टावो जाला.

सीमा : कसलो दिश्टावो ?

अशोक : सत्याचो.

सीमा : अितल्या उसरां ? आमी दोगी भयणी काळाचे भकीक पडल्या उपरांत ?

कमूद : (ताका ओगी रावपाक शिटकायता) आमच्या अपेशी भावा, तुकां दिश्टावो बिश्टावो कांयअेक जावना. भेरेल्ल्या

आंगाक दिश्टावो कसो जायत सभाग्या ?

अशोक : हांव फट अुलयना. हांव हें बदलपाक सोदतां.

कुमूद : कितें बदलपाक सोदता ?

अशोक : ह्या घरांत जें जें कितें अन्यायाचें चल्लां तें.

कुमूद : अशें ? हांगासल्लें जायतें तूं बदलशी. आमच्यो चालचलणुको बदलशी, नाती बदलशी. वेळ आयल्यार आमची भयणांची वाडील्ली पिराय लेगीत बदलशी. पुण अेक गजाल मात तुज्यान बदलूंक जावची ना.

अशोक : खंयची गजाल ? नशीब न्हय ?

कुमूद : न्हय. तूं पापाक बदलूंक शकचो ना.

अशोक : बदलतलों. तो बदललोना जाल्यार ताका आसा थंयच दवरुन हें सगळें घरूच बदलतलों (भायरसून जयवंत येता तो येना बरोबर तिगीय भयणी ल्हवू ल्हवू कडेक सरतात. अशोक तसोच थीर रावता. जयवंत आपले कुडींत वचपाक लागता. अशोक ताका हडकीता.)

अशोक : (अुतरांत जरब आसा.) पापा, (जयवंत थारता) पापा, जनाप्पान हाडिल्ली सोयरीक कित्याक परतीली तुवें ?

जयवंत : चलयेक धाकुलपणांक दिवचे बदला बांयत बुडोवन माल्लेली कितें वायट ?

अशोक : मागीर तशें कित्याक करीना ? (जयवंत अशोकाक आनी तिगांय धुवांचेर दुबावान नदर मारता. ते सरशीं कुमूद आनी सीमा माळयेर आनी सुप्रीया भितर वता.)

जयवंत : आमचे घरवडींत परंपरा ना तसली.

अशोक : कसली ? चलयांक बुडोवन मारपाची ?

जयवंन : चली धाकुलपणाक दिवपाची.

अशोक : आमचें घरवडींत ही परंपरा केन्नासावन सुरु जाली ?

जयवंत : खंयची ?

अशोक : चलयो अितल्यो वाडसर दवरपाची.

जयवंत : घरांत घरकार म्हण अेकलो हांव म्हजे हात खंय पावतले ?

अशोक : वीस वर्सां देमांद खेळून येशकामतीचीं पाळामुळां खणपाक तुजे हात पावतात. देवदेवस्पणां आनी भगत घाडपणां करताना हात अडना. भुरग्यांकडेन पावतकच हात मोटवे जातात !

जयवंत : देमांद जिकल्यार तें बेंस हड्डयार घेवन सरणार चडचो ना हांव. घराच्या फुडाराची तजवीज ही.

अशोक : आमच्या फुडाराची तजवीज किते ?

जयवंत : तुमचीं नशिबांच फुटल्यांत ताका हांव कपलफुटको कितें करतलों ? आज खूब फांके फुटले तुका.

अशोक : फुटक्या नशिबाक कसले फांके ?

जयवंत : रगत जरुर उसळचें. पुण खंय ?

अशोक : खंय ? सोण्णा दाळटा थंय लॉजांत ?

जयवंत : पुताक सोबता तशें अुलय.

अशोक : तूं मात बापायक सोबता तशें केन्नाच करु नाका.

जयवंत : आत्याक पर्ते म्हाका. दमडी जोडपाची अक्कल ना. अधिकाराची भास अुलयता. अधिकार फुक्यासवाय मेळना.

अशोक : जाणा हांव. त्याखातीर दुसऱ्याचे गोमटेक घांस मारचो लागता.

जयवंत : जाग्यार ना तूं आज.

अशोक : तुज्या जाग्याक भिरांत निर्माण जाल्या ?

जयवंत : असल्यांक फुटके पायलेंत घालून मेजतां हांव. पूत जालो म्हण कितें जालें ? आयत्यो गांयडळ्यो भरतकच भल्लेल्या पोटार धेकर कित्याक सुटचें ना ? बापायकडेन पडमुरपणा केल्यार कोण सुखाक पावचो ना. चारचौगाल्या भुरग्यांवरी वागात.

अशोक : तुंवूय चारचौगांल्या बापायवरी कित्याक वागन्ना ?

जयवंत : हांव जयवंत. जयवंता सारको वागतलों. म्हाका कोणाचे जिणेच्यो देखी नाकांत.

अशोक : जयवंता सारको जरुर वाग. पुण केन्ना केन्ना मातसो मनशावरी वाग.

जयवंय : हो विशय हांगा बंद.

अशोक : कित्याक ?

जयवंत : म्हाका जाय देखून.

अशोक : तशें जाल्यार हो विशय हांगच्यान सुरु.

जयवंत : अशें ?

अशोक : हय. म्हाका जाय देखून.

(जयवंत ताका रागान पळयता आसतनाच पड्डो पडटा.)



# आंक : दुसरो

(थळ तेंच. चौगांय भांवडां आदलेवरीच ताबुल फळयांनी खेळटात.)

निवेदक : खेळांत खेळ–ताबुलफळयांचो खेळ ! ह्या खेळाचें अेक वैशिश्टय म्हळयार ताबलां हातात खेळयतना आनी सकयल वडयतना अशें दिसता, नशिबांत आसा तें पडटलें पुण जेन्ना कळटा, हातसफाई दाखोवन ताब्लां आपणाक जाय तशीं वडोंव येता तेन्ना खेळपी नशिबाचेर पातयेवन रावना. आपणाल्या हाताच्या कर्तुत्वाचेर भरवंसून रावता. ह्या घरांत कितल्याश्याच वर्सांसावन हो खेळ चल्ला. अर्थांत आतां खेळून खेळून हातांक सफाई आयल्या. आतां खेळप्यांक जाय तशींच ताबलां पडटात. ह्या खेळाचेर ह्या चौगांय भांवडांचो आजून विस्वास आसा. ह्या खेळांतलें जैत हें नशिबाचेर न्हय कर्तुत्वाचेर आदारून आसा हाचेविशी आतां तांकां दुबाव ना. जीण म्हळयार सुक्या लाकडांची ताबलां न्हय हांचो तांकां दिस्टावो जाला. आजूय तांच्या खेळांत हार आसा पुण तांची न्हय.

(अितल्यान जयवंत भायरसून येता. त्रिबुनालारसावन आयला. ताका सगळीं पळोवन पळोवंक ना अशें करता. कोण अुठना. जयवंत चडफडत भितर वता. काळोख.

कांय वेळान माची अुजळटा. सकाळची वेळ. रेडिओचेर गीत वाजता चड करुन–'चल अुड जा रे पंछी' सुप्रीया भायर वचपाचें तयारेंत न्हेसून बी रावलां. मदीं मदीं घड्याळीचेर नदर मारता. भायल्या दारांत वचून वाट पळयता. अितल्यांत कुडीतल्यान जयवंत भायर येता. ते

सरशीं सुप्रीया रेडीओ बंद करता. भायर गाडयेचो आवाज येता. सुप्रीया बेगीबेगीन भितर वता.)

जयवंत : (अुलो मारून) अशोक ऽऽ भायर कोणाची गाडी आयल्या ती पळय. आदवोगाद सुवारींसबी न्हय मूं ? अशोक ऽऽ सांगनासतना खंय गेलो हो ? सुप्रीया ऽऽ अुल्याक अेकलेंय पावना. आज सगळीं पोरां संपार गेल्यांत काय कितें ? (आपुणूच भायर वचून पळोवन येता) टॅक्सी. कोण देंवयना. (माळयेवटेन) सीमा ऽऽऽ

कुमूद : (सोपणार येवन) सीमा पोरसांत फुलां खुंट्टा. (वळटा)

जयवंत : आयक, भायर टॅक्सी कित्याक थाल्ल्या ?

कुमूद : (न्हयकारान मान हालयता)

जयवंत : अुलोवपाक तोंड धल्लां ?

कुमूद : टॅक्सी म्हजेखातीर थांबूना.

जयवंत : मागीर कोणाखातीर थाल्ल्या तर ?

कुमूद : जाचेखातीर थाल्ल्या ताका विचार.
(सुप्रीया बॅग घेवन वचपाचे तयारीत दारांत येता.)

जयवंत : (सुप्रीयाक) भायर टॅक्सी कोणाखातीर थाल्ल्या ?

सुप्रीया : म्हजेखातीर.

जयवंत : हें बॅग घेवन खंय वता तूं ?

सुप्रीया : तो म्हाका व्हरता थंय.

जयवंत : तो ? तो कोण ?

सुप्रीया : अुल्हास.

जयवंत : त्या दिसा आयिल्लो तो तवनास ?

सुप्रीया : अुल्हास नांव ताचें.

जयवंत : चूट्टी लाय ताच्या नांवांक आनी तोंडाक.

सुप्रीया : ती चूट्टी आतां तुज्याखातीर सांबाळून दवर.

जयवंत : म्हाका शाणेपणा सांगता ?

सुप्रीया : निमाणचीं.

जयवंत : तुका ताचेवांगडा वचपाक मेळचे ना.

सुप्रीया : हें काल मेरेन खरें आशिल्लें आज न्हय.

जयवंत : असो अकस्मात सांवार येवपाक आजूच कितें जालें ?

सुप्रिया : केन्ना तरी जावपाचें तें. आज जालें अितलेंच.

जयवंत : हांव हें जावपाक दिवचो ना. ताच्यावांगडा अशें पळून वचपाक तुकां लज दिसना ?

सुप्रीया : ना.

जयवंत : सगळें घोळोवन पिल्ल्याक लज खंयची ! तुमी तुमकां जाय तें करशात. हांव म्हजें नाक कातरुंक दिवचोना.

सुप्रीया : तुजें नाक आतां शेणात जरी मुंगरुन दवल्लें तरी तें कातल्लेबगर कशेंच रावचेंना.

जयवंत : (रागान) सुप्रीया.

(भायर टॅक्सीचो हॉर्न वाजता. सुप्रीया ताकतिक करता.)

सुप्रीया : (कुमूदाकडेन वचून) येता हांव दिदि.

जयवंत : (अस्वस्थपणान) अशोक ऽऽ हो अशोक खंय !

(पोरसाकडेन वचून) सीमाऽऽ सीमा (कुमूदाक) तूं ताची व्हडली भयण

कुमूद : खबर आसा म्हाका.

जयवंत : तुजेआदीं तें लग्न जावपाक हारेलां.

कुमूद : हें ताका कळचें आदी तुका कळपाचें.

जयवंत : तें घरांतल्यान पळून वता म्हण तुका कांयच दिसना ?

कुमूद : दिसता ताचो खूब दुस्वास दिसता. तें भाग्य म्हाका मेळना म्हण वायट दिसता. (पोरसांतल्यान सीमा येता. हातांतल्या पाटल्यांत फुलां आसात.)

सुप्रीया : सीमाताओी, येता हांव.

जयवंत : सीमा, आडाय ताका. तें पळून वता.

(सीमाचें मुख अुजळटा. पाटल्यांतलें फूल काडून ताच्या माथ्यांत खोयता.)

सीमा : जांव सुप्रीया, तुज्यातरी सौभाग्याचो भौमान करपाचें भाग्य म्हाका लाबलें.

सुप्रीया : सौभाग्याचो भौमान ! दिदी, ताओी, कितल्या तेपान ह्या घरांत सौभाग्याचो भौमान जाता! कसले परिस्थितींत जाता हाका म्हत्व ना. भौमान जाता हाकाच म्हत्व आसा. आमची आवय मेली त्या दिसासावन ह्या घरांतल्यान सौभाग्याचो अंत जालो. धुवांची कपलां भरपाचें भाग्य तिका लाबलें ना पुण ती मात भल्लेल्या कपलान गेली. दिदी, ताओी तुमच्याआदीं म्हजें कपल भरता तें पळोवन अेकेवटेन काळीज दुःखान चिरता जाल्यार दुसरेवटेन अेका अुज्याच्या जाळांतल्यान म्हाका सुटकावाट मेळटा ताची खोस भोगता.

सीमा : आयचीं सगळी हीं फुलां तुजेखातीर फुल्लेलीं.

सुप्रीया : हय ताओी, हीं फुलां म्हज्याखातीर फुल्लीं. तुमचेखातीर दुसरीं फुल्लेलीं आसतलीं.
सीमा : आमचेखातीर फुलता तेन्ना फुलता..
सुप्रीया : फुलतलींच तूं आमच्या पोरसाची कितली जतनाय घेता मागीर तुजेखातीर तातूंत कित्याक फुलची ना फुलां ? ताओी, पोरसू तुवें वाडयलें पुण पोरसातल्यान भोंवरो आयलो तो मात म्हजे खातीर आयलो.
सीमा : पोरसांतल्यान फुलांचो परमळ वंयभायर लेगीत फांकला.
सुप्रीया : हय ताओी, आमचे पोरसूं म्हळचार सुखाचो सुगुर्वो. ताचें दार तशेंच उक्तें आसूंदी.
सीमा : कित्याक ? भोंवरो कितें दारातल्यान येता ?
(तिगीय भयणी हांसतात. हातांत फुलां दित) घे, हीं फुलां तूं घेवन वच. फाटलें कांटे आमचेखातीर आसूंदीं.
जयवंत : ताका आडावपाचें तें फुलां माळटा ?
सीमा : ताका आडावपाक तें पळून थोडेंच वता. तें आपखोशयेन हो पांजर सोडून वता.
जयवंत : ह्यान आदीं ह्या घरांतल्यान अशें कोण गेलां ?
सीमा : कोणेतरी सुरवात करपाकूच जाय न्हय ?
(सीमा भितर वता)
जयवंत : तुमी तिगाय भयणां एकामेकाक सामील आसात. पुण हांव तुमचो कट सफळ जावपाक दिवचो ना. अशोक ऽऽ अशोक ऽऽ हो अशोक खंय गेला ?
(असहाय जावन पासयो मारता.)
कुमूद : (स्वेटर दित) घे सुप्रीया, हो स्वेटर घे. दी ताका.
सुप्रीया : नाका दिदी. हो स्वेटर कोणाखातीर विणलां तें जाणा हांव. तूं अशी निरशेंव नाका. म्हजो देवाचेर पुराय भावार्थ आसा. ह्या स्वेटराचो धनी एक दीस अवश्य तुजे जिणेंत येतलो.
कुमूद : तुज्या तोंडात साखर पडूं ! (ताचे फाटीर हात भोंवडायता आनी वता. सुप्रीया वचपाक सोदता. जयवंत ताका आडायता.)
जयवंत : तुकां ह्या घरांतल्यान हे परिस्थितींत कशेंच वचपाक मेळचेंना.
सुप्रीया : हांव ह्या घरांतल्यान हेच परिस्थितींत वतलें.
जयवंत : तूं जाता वटकेकूच जर मेल्लें जाल्यार हो प्रसंग आज

म्हजेर येवचो नासलो.

सुप्रीया : तूं म्हजो जल्म आडावपाक शकलोना तशें म्हजें वचपूय आडावंक शकना अशें समज.

जयवंत : हांव मेल्लों जाल्यार तशें जरुर समजतलों आसलों.

सुप्रीया : तितलें खंय आमचें भाग्य ! तूं येवजितां तशें घडिल्लें जाल्यार म्हाका आज अशें वचचें पडचें नाशिल्लें. भौमानान वतलें आशिलें.

जयवंत : आजूनूय तुज्यान तशें वचूं येता.

सुप्रीया : ना. तुज्या मरणाची वाट पळोवपाक म्हाका वेळ ना.

जयवंत : जसो काय तुमच्या सुखाचो संबंद म्हज्या मरणाकडेन जोडला.

सुप्रीया : आमच्या सुखाचो संबंद न्हय. आमच्या सुखाचो प्रारंभ तुज्या मरणाकडेन जोडला.

जयवंत : तशें जाल्यार हांव कसोच मरना.

सुप्रीया : तेच खातीर--- (वचपाक लागता. ताका आडायता.)

जयवंत : ना. तुका वचपाक मेळचें ना.

सुप्रीया : म्हजी अेकूच अित्सा आसा. म्हजेकडल्यान जाला तितलो पुरो पुण अुल्हासाकडल्यान तुजो अपमान जावचो न्हय.

जयवंत : म्हजी तीच अित्सा आसा. तो तवनास–

सुप्रीया : तुका सांगलें ताचें नांव अुल्हास.

जयवंत : तुजेखातीर जायत अुल्हास. म्हजेखातीर तो तवनासूच.

सुप्रीया : कसली अित्सा आसा तुजी ?

जयवंत : तो तवनास म्हज्या हातसून कादयेन कुसचो न्हय, अितलीच अित्सा आसा म्हजी.

अुल्हास : (येत) म्हज्या कुसपाच्यो गजाली सोड जयवंतबाब. ह्या खिणांक तुजें मर्ण म्हज्या हातसून घडचें न्हय अितलीच म्हजी अित्सा आसा.

जयवंत : तुंवूंय म्हज्या मरणाचेर अुठला ?

अुल्हास : तुजे जीणेचेर धाम पडल्या म्हूण तर सगळे तुज्या मर्णाचेर अुठल्यात. आनी जाणा जा, म्हज्या हातसून जर तुजें बरें–वायट जालें जाल्यार ह्या घरांतलो प्रत्येक मनीस मुखार येतलो आनी सांगतलो– बापायचो खून आपणे केला. अितली तुज्या मरणाची सगल्यांक तान लागल्या.

जयवंत : म्हज्या घरांत येवन म्हाका धमकी दिता ? – अपुरबुद्धा परिणाम खबर ना तुका.

अुल्हास : कायदचाच्यो गजाली सांगता? कायद्यान भाटां–बेसां जिखूं येतात,मनशां न्हय. आनी मनशांक जिखलीं जाल्यार मनशांची काळजां न्हय. तूं म्हजी केस करतलो? कुसके बुद्धीच्या मनशा, तूं म्हाका कादयेन कुसयतलो? आरे, कादयेंतल्यान बंदचाक मुक्त करपाचें पुण्यकर्म करतां हांव. कादयो तुज्यासारक्या कुसक्यांक आसतात. म्हजेसारक्या स्वातंत्र्यवीराक न्हय. कुसत राव, असोच कुसत राव. (जयवंताक वाटेवयलो बळजबऱ्यां कुशीक काडटा. अेका हातांत सुप्रीयाचें बॅग आनी दुसऱ्या हातांत सुप्रीयाचो हात धरता.)

अुल्हास : गुडबाय! (सडसडीत चलून वता.)

(जयवंत असहाय जावन पासयो मारीत रावता. टॅक्सी गेल्याचो आवाज. कांय वेळान भायरसून अशोक येता.)

जयवंत : अशोक, खंय व्हुंवाळून गेल्लो तूं? आरे पापया, कितलो सादयलो तुकां.

अशोक : कितें घडलां?

जयवंत : कर्म घडलां म्हजें! अनर्थ जालो मरे पापया. पयलेच खेप आमचे घरवडीत अनर्थ जालो.

अशोक : कसलो अनर्थ?

जयवंत : आरे, सुप्रीया त्या तवनास मवाल्यावांगडा, त्या अुल्हासावांगडा पळून गेलें. सकाळीफुडें टॅक्सी येवन दारांत थांबली. हांव पळयतां थंय आसा, बिचारतां थंय आसा तुरुतुरु करुन हातांत बॅग घेवन भायर सल्लें.

अशोक : मागीर?

जयवंत : हांवें पयली तुकां सादयलो. मागीर हांकां सादयलीं. कुमूद आनी सीमा दोगांय सामील ताका. हांव ताका आडायतां जाल्यार कोण ताका स्वेटर भेटयता, कोण फुलां भेटयता.

अशोक : तुवें कितें भेटयलें?

जयवंत : खबरदार म्हळें, घर सोडून वचशी जाल्यार.

अशोक : तरीय गेलें?

जयवंत : तो तवनास खासा आपूण जावन घरांत आयलो. केदी कापजदाद ताची? अेका हातांत ताची बॅग आनी दुसऱ्या हातांत ताचो हात धरुन गेलो. वयल्यान म्हाका मर्णाची धमकी दिवन गेलो. आमचे घरवडींत असो

अच्छेव केन्नाच कोणे मांडलो ना. तुका वाटेर मेळ्ळी ना ती टॅक्सी ?

अशोक : मेळ्ळी.

जयवंत : मागीर थांबली ना ?

अशोक : हांवे मुद्दाम थांबयली.

जयवंत : शाबास ! आनी मागीर ?

अशोक : सुप्रीयान म्हज्या पायार घालून घेतलें.

जयवंत : थंयच पायापोंदा चिड्डुवपाचें.

अशोक : ना. तें म्हजो आशिर्वाद मागतालें.

जयवंत : जल्माची ख्यास्त भोगोवपाची.

अशोक : हांवे ताका आशिर्वाद दिलो आनी तागेल्या प्रियकराचो अुल्हासाचो हात हातांत घेवन ताचे अभिनंदन केलें. (जयवंत सामकोच गळसणटा. कांय वेळ शांतताय. मागीर शांतपणान अुलयता.)

जयवंत : अशें आसा तर. ह्या सगळ्या कटाचो सुत्रधार तूं. खबर नाशिल्ली म्हाका. तरी म्हणटां, सगळें सामकें थरिल्ल्या-प्रमाण घडटा. टॅक्सी येता कितें, थारता कितें, कसली धांवाधांव ना, बोवाळ ना. हांव मात असो वयर सकल जावन तडफडटां. वा ! बरो कट रचलो ! भल्लेल्या घरांतल्यान धुवेक अुबारून व्हरपाचो कट आनी कटांत सामील कोण ? तर भयणां आनी भाव. बापायक अपशकून घडचो म्हण स्वतःचे नाक कापपाक मुखार सल्ल्यांत. ( अशोकाचीं अुतरां घेवन ) हांवें ताका आशिर्वाद दिलो आनी हाचें अभिनंदन केलें. ह्या दिसांनी तूं बदल्ला हें खरें. सांगले बगर आपणाक जाय थंय भोंवता आनी आज कळ्ळें. आपणाक जाय तें करता

अशोक : ( खोचून ) तूं अेकलो खंय खंय म्हण पावतलो. आतां. तुज्या शिरावयली जापसालदारकी दुसऱ्या कोणेतरी घेव नाका ?

जयवंत : म्हज्या शिरावयली जापसालदारकी अुखलता काय जापसालदारकी सोडून म्हजे शीरुच अुखलता ?

अशोक : अुखलपाक शीर न्हय तर तें ? काय मातयेचो गुळो ?

जयवंत : म्हाका लुळो करपाचीं लक्षणां दिसतात. तसो आपसूक अुखलचोना आं. म्हजी पाळां मातयेक घट्ट घांस मारून आसात.

अशोक : पळोवचें न्हय आतां. हातच्या कांकणाक हारसो कित्याक जाय.

जयवंत : (त्याच संथपणान्) सांगून दवरतां, रागाक वाग हांव.
( राग निवळपाखातीर श्लोक म्हणटा. )
कृष्णाय वासुदेवाय हरे परमात्मदे प्रणत: क्लेषनाषाय गोविंदायनमोनम : ( आपल्या आपुण म्हणत रावता. )

अशोक : ( अुलो मारून ) कुमूददिदि, ऽऽ (कुमूद येता.) हांव मातसो भायर वतां. आनीक अेक म्हत्वाचें काम तशेंच अुल्लां. तुजें तोंड पळेल्यार दिसता, काम जालेबगर रावचें ना. घरांत लक्ष दवर. हांव रोखडो येतां.
( अशोक कुमूदाच्या कानांत कितेंतरी सांगता आनी भायर वता. कुमूदाचें मुख अुजळटा. तें भीतर वचून सीमांक सांगता सडसडीत मेजाचेर, कदेलीचेर नवे तुवाले घालता. साफसफाअी करता. जयवंत सगळें दुबावान पळयता. श्लोक म्हणप चालूच आसा. भायरसून जनाप्पा येता. )

जनाप्पा : अशोक, अशोक आसा काय ना रे घरांत ?

कुमूद : यो जनाप्पा. अशोक आतांच भायर सल्ला. येतलो रोखडो.

जनाप्पा : येवंदी सवकासायेन. (जयवंताकडेन मुद्दाम आडनदर करीत ) आनीक कोण ना दिसता घरांत !

कुमूद : आसा. सीमा आसा तें.

जनाप्पा : तें आसतलेंच. तें नाजाल्यार कशें जातलें. आं ?
(मुद्दाम हांसता. फाटीं वळून पळयता.) आरे हो खंय ? फाटल्यान खंय अुल्लो ?

कुमूद : कोण जनाप्पा ?

जनाप्पा : आनीक कोण ! आमचो संदीप न्हय. दोगूय बरोबर येता थंय आसा. खंय कडसलो ?

कुमूद : (दुबावान) जनाप्पा ?

जनाप्पा : तूं दुबावलें कित्याक ? हें तशें कांय ना. आगो, तो आपणाले अित्सेन म्हजे वांगडा आयला. तो कोणाचेर बळजबरी करपी न्हय आनी कोणाची बळजबरी सोंसपी न्हय. (अुलो मारून) संदीप ऽऽ

संदीप : (पोरसांतल्यान जाप दित) जनाप्पा, हांव असो हेवटेन आयलों.

जनाप्पा : वा ! हांगा येवपाक ही पोरसांतली वाट बरी सोडून

काडलीं तुवें. यो. खंयचे वाटेन जायना योग्य थळार पावलो म्हणटकूच जालें. यो, यो. (संदीपाचें पोरसांतल्यान येवप जयवंताक आवडूंक ना.)

संदीप : ( येत ) चलता चलतां मातसो फाटीं अुल्लों. तूं तेवटेन भितर लेगीत सल्लो. आतां म्हळे, असो भोवर मारून कित्याक येवं. असो शॉटकटान येवंचो. पुण जनाप्पा, हेवटेन आयलों तें बरें जालें आं.

जनाप्पा : कित्याक ?

संदीप : कितलें सुंदर पोरसूं. वा ! जीव धादोस जालो.

जनाप्पा : फुलां तोडूंक ना मरे ?

संदीप : ना जनाप्पा, बळजबरीन कित्याक तोडटलों. आतां कोणाचीय अित्सा आसल्यार कोणेय फूल तोडून हातांत दिवं येता, तें अवश्य घेन.

जनाप्पा : (कुमूदाक) हांवें सांगूंक नासलें ? (संदीपाक) पोरसांतल्यान आयला म्हणटकूच आता तुकां फुलाचीच भेटवण करतां

संदीप : खंयच्या फुलांची भेटवण ?
(भितल्ल्यान सीमा दारांत येता. नवी साडी न्हेसलां.)

जनाप्पा : हें सीमा, ही ताची व्हडली भयण कुमूद. अशोकाक तूं वळखताच. आनीक अेकलें आसा सुप्रीया, तें भायर सल्लां.

कुमूद : हो आमचो पापा बापूय.

संदीप : नमस्कार. (जयवंत श्लोक म्हणत फाट करता आनी भितर वता )

कुमूद : सभावान मातसो दुसरेभशेन. मनांक लावन घेवपाचें न्हय. जनाप्पा, तुमी अुलयत बसात. हांव च्याची व्यवस्था करतां. (दोळे मारीत) सीमाऽऽ
(सीमा लजता, कुमूद भितर वता.)

जनाप्पा : हांव आनी वोगीच हांगा कबाबमें हड्डी कित्याक जांव ? संदीप, परकेंपण कसलेंच ना. घर आपलेंच समजुपाचें.

संदीप : पोरसांतल्यान भितर सरून तर हांवें तें सिद्ध केलां.

जनाप्पा : आतां तुमचेमुखार हांव कितें अुलयतलो ? बाय सीमा, तुमचे अित्सेनूच म्हणटा तशी तुमची गांठभेट घालून दिवपाचें म्हजें काम हांवे केलां. आतां मुखार तुमचें तुमी पळोवन घेयात.
(जनाप्पा भितर वता. दोगांय कांय वेळ वग्गी. कोणूय

तरी अुलयतलो म्हण दोगांय अेकमेकांची वाट पळयतात. शेवटाक सीमाच तोंड अुगडटा. )

सीमा : म्हाका खूब अुलोवपाक आवडटा.

संदीप : हरकत ना. तितलों हांव कमी अुलयन.

सीमा : अशें कांय ना. दुसऱ्यानूय म्हजेसारकेंच खूब खूब अुलोवचें अशें म्हाका दिसता.

संदीप : हरकत ना. ताकाय म्हजी तयारी आसा. (अकस्मात) आय अॅम सॉरी आं.

सीमा : कितें जालें ?

संदीप : म्हाका दिसता हांव गैरफायदो घेतां.

सीमा : अशें कित्याक म्हणटात ?

संदीप : हांव सगळें अशे तरेन उलयतां की थरपाचें सगळें थल्लां.

सीमा : म्हणजे ?

संदीप : खरें म्हळचार तुमच्या मनांतलें म्हाका आजून कळूंना.

सीमा : कळूना कित्याक ? बरें कळ्ळां. तुमी तें दाखोवन दिना अितलेंच.

संदीप : तुमकां खबर आसतलीच, म्हजी जीण म्हळयार अुश्टायल्लें पान.

सीमा : अितलें खालतेंपण घेवपाची गरज ना. तुजी जीण अुश्टायिल्लें पान जाल्यार म्हजी जीण म्हळचार अेक सुकिल्लें पान.

संदीप : पोरसांतल्या रसरशींत पानांत आनी तुज्यांत कसलोच फरक ना. हांव तुका सुकिल्लें पान कित्याक समजूं ?

सीमा : तशें जाल्यार तुवें आपणाकूच लेखून अुलयिल्ली अुतरां फाटीं घे.

संदीप : हारलों. हांव म्हजीं अुतरां फाटीं घेतां. असली हार खावपाक भाग्य जाय.

सीमा : आनीक कितें म्हणपाचें आसा ?

संदीप : ना. म्हाका परत हारपाचो ना. (दोगांय हांसतात. कुमूद च्या घेवन येता. फाटोफाट जनाप्पा येता. आपले कुडींतल्यान जयवंत भायर येता. श्लोक म्हणप चालूच आसा. )

कुमूद : घे सीमा, च्या दी तांका.
(सीमा जनाप्पाक आनी संदीपाक च्या दिता)

संदीप : (जयवंताक) च्या घेना ?

जनाप्पा : ना. आदींपासून च्यायेचेर कोंत्र. बलायकी अिबाडटा न्हय तातूंत. बलायकी सांबाळपाक खूब पथ्यां करतात. येदचा व्हडल्या संवसाराचो भार म्हणटकूच बलायकी सांबाळपाकूच जाय न्हय ?

संदीप : बरोबर. आमकां अेक च्याचें पिशें लागलां तें लागलां.

जनाप्पा : च्याचें ना तें ना आनीक हेरूय कसलें पिशें ना तांका.

संदीप : बऱ्याची गजाल.

जनाप्पा : देवादर्माचें मात खूब !

संदीप . तें दिसताच न्हय व्हदळच्यान कसलें तरीं पठण चल्लां तांचे.

जनाप्पा : हरशीं सभावान मायेस्त. तांच्या भुरग्यांक तांचोच सभाव आयला.

संदीप : बरोबर.

जनाप्पा : अशोक तर सामको तांच्या सभावार गेला. हाका लिपोवचो आनी ताका दाखोवचो.

संदीप : अखेर बी तशें भात न्हय.

जनाप्पा : बी खूब बरें. भाटां बेसांची अुस्तवारी आपल्या आपूण करता. लॉजांत सोण्णा दाळपाचें काम आसूं. कामेंऱ्या वांगडा आपूण काम करतलो. थंय लज भीड कांय ना.

संदीप : बरोबर. आपल्या कामाकडेन कसली लज ?

जनाप्पा : नाच. साप्प लज ना. (च्या पिवन सोपता. कुमूद रितीं कपां घेवन भितर वता.)

संदीप : ही व्हडली भयण ?

जनाप्पा : ताचें जुळपाचे वाटेर आसा.

संदिप : पुण सहज म्हूण विचारता, अितलो तेप –

जनाप्पा : ना, तशें कांय ना. तशीं तांच्या बापायन सोयरीकांखातीर थोडीं जोतीं झरोवंक नात. झरिल्ल्या जोत्याकट्टरांची अेक रासूच पडल्या तांच्या घरांत पुण म्हणणीच आसा न्हय. घडे भल्लेबगर वडे पडनात. (त्रोंसानी) कोणा-कोणाचे घडे आसतात ते भरपाक जाय. पुण आतां भरतले. मात्तूय दुबाव ना. तुमी वडेच खावपी जायात.

संदीप : पुण पयलीं वडे कोणाचे खावपाचे ?

जनाप्पा : तें आतां तुमचेर. तुमकां कितलो थार आसा ताचेर तें आदारुन आसा.

संदीप : म्हजी कसलीच हरकत ना.

जनाप्पा : तुजी नासत पुण सीमाची आसूं येता. कितलो तेप जालो तें फुलून रावलां.
सीमा : ना जनाप्पा, आतां हांव कशेंच बावना. कुमूद दिदिचें लग्न आदीं जाता जाल्यार तातूंत म्हावतां चड खोस आसा.
जनाप्पा : वा ! वा ! येन्नादर तुमचीं मतां जुळपाक लागलीं. तुमच्या सुखी जिविताची हीं लक्षणांच म्हणपाक जाय.
सीमा : तुमच्या सारक्यांचो आशिर्वाद आसतकच कित्याक जांवचें ना तशें ?
संदीप : बरोबर. म्हणटकूच आतां फुडली अुलोवणी.
जनाप्पा : तीं अशोकाकडेन करपाची (जयवंताक लेखून) तांच्या माथ्यार वोगीच कित्याक त्रास ? शिवाय तांका हेर खूब म्हत्वाची कामां आसतात.
संदीप : (दुबावान) कसलीं कामां ?
जनाप्पा : ताचें कितें आसा जाणां, हे संतती भायर तांची आनीक अेक संतत आसा. रगताच्या धुंवापरस आनी पुतापरस ते ताका अदीक जपता. खरें म्हळ्यार तीच तांच्या रगताची खरी संतत. कारण केन्ना केन्ना तांच्या शिरंतरानी रगता बदला तोच व्हांवता. ते ताची खूब माया करतात. जिवाच्या आकांतान ताका जपतात.
संदीप : असो कोण तर तो ?
जनाप्पा : देमांद !
(अितल्यान येशकामत आनी अशोक दारांत येता. अितलो वगत राग सोसून राविल्लो जयवंत गरड घालून अुसळटा.)
जयवंत : येशकामत, खबरदार म्हज्या घरांत पावल दवरशी जाल्यार.
येशकामत : खबरदार तूं. तुज्या दारांत हांव येवना जयवंत. तुज्या पुतान म्हाका फोर्स करुन हाडला.
जयवंत : फोर्स केल्यार सुणो लेगीत प्रतिकार करता येशकामत.
येशकामत : तोंड सांबाळून अुलय जयवंत. म्हाका सुणो म्हणशी जाल्यार खरेलो सुणो तुज्या घरार चडयतलों.
जयवंत : म्हज्या घरार सुणो चडोवचे आदीं तुज्या घरार नांगर भोंवडायना जाल्यार कानाचो कुडको काडून हळशिकेंत वडयन.
येशकामत : कानाचो कुडको कित्याक ? तुजी आख्खी जीण जरी

हळशिकेत वडयली तरी तुका कसोच सोडीना हांव.

जयवंत : आरे सोड. म्हाका धरपाक तुज्यो छपन्न पिळग्यो सर्गांतल्यान सकल येवच्यो पडटल्यो.

येशकामत : तुज्या छप्पन्न पिळग्यांबरोब्र तुवूंय नरकांत वतलो.

जयवंत : हांव नरकांत वता तेन्ना वता, तुकां हे धर्तरेर नरकाची ख्यास्त फर्मायतां. देवते पाट्याचो देमांद तुज्या हड्ड्यार घालीना जाल्यार त्या बापायचो पुतच न्हय. आरे, जयवंत म्हणटा म्हाका.

येशकामत : आनी हांवूय बेश्टो कामत न्हय, येशकामत म्हणटात म्हाका. (दोगांयचें झगडें चालू आसतना जनाप्पा संदीपाच्या कानांत कितेंतरी सांगता जाका लागून ह्या प्रकरणांतलें अजाप ताच्या तोंडावयल्यान पयस जाता ते झगडटना सीमा भितर वता. जयवंत आनी येशकामत झगडटां झगडटां अकस्मात थारतात. खिणभर शांतताय पातळटा.)

अशोक : येशकामत, हांवे तुका झगडुपाक आपोंवक ना.

येशकामत : हें तुज्या बापायक सांगपाचें न्हय ?

अशोक : येशकामत, ताची हांवें तुकां आदींच कल्पना दिल्ली. (येशकामतीक समजावणी मेळटा)

येशकामत : आतां हांव कांयच अुलयना.

अशोक : आतां कशें जालें हें जर येना फुडेंच केल्लें जाल्यार काय बरे जावपाचें.

येशकामत : आरे, तें आदींच कळिल्लें जाल्यार येशकामतीचें रगत कसलें तर तें ?

अशोक : आरे, तुमकां चड वेळ बसचें पडलें ?

जनाप्पा : ना ना, थोडो वेळ बसचें पडलें. पुण वेळ मजेंत गेलो.

अशोक : वचपाचोच. सदचाक सगळयांत मजेंचें ठाण म्हणटा तें आमचेंच घर न्हय. मागीर खंय पावलां तुमचें ?

जनाप्पा : तारूं सामकें धडक लागलां.

अशोक : मागीर म्हजी आनी वाट पळोवपाची गरज नासली.

जनाप्पा : म्हणजे ?

अशोक : फुडलें तूं थरयता तें जालें.

जनाप्पा : ही तुमी म्हजेर हिसपाभायली जापसालदारकी घालता.

अशोक : घालताच. आनी ती तूं ताळचोना म्हण आमी जाणा कारण जापसालदारकी ताळपाक तूं काय आमचो रगताचो बापूय न्हय.

जनाप्पा : जशी तुमची अित्सा.
अशोक : जनाप्पा, तूं ह्या सोयऱ्याक घेवन माळयेर कित्याक बसना? सीमाकूय व्हर. (जनाप्पा समजुपाचें तें समजता.)
जनाप्पा : बरे भशेन. चल संदीप. यो सीमा. (तांकां घेवन माळयेर वता.)
अशोक : (जयवंता म्हऱ्यांत वचून) पापा, येशकामतीक हांवें आपूण जावन आपयला.
जयवंत : चूड दाखोवन म्हारु हाडला घरांत.
अशोक : जाय जाल्यार तशें समज. पुण तो आपणाले मर्जीन हांगां येवना हें खरें.
जयवंत : ताचे तोंड हांव फक्त त्रिबुनालार पळयतां.
अशोक : तेंवूय पळोवपाचें तुकां चुकचें म्हण हांव मुखार सल्लां.
जयवंत : ताचें तोंड पळोवपाचें चुकयता ? खंय तोंड घेवन हुंवाळून लायता ताका ?
येशकामत : अशोक, तुजो बापूय म्हजो अपमान करता.
जयवंत : मागीर फुलां घालूं तुकां ?
येशकामत : पळय जयवंत ऽ ऽ
जयवंत : आरे सोड (अशोक येशकामतीक वोगी करपाचो यत्न करता.)
अशोक : पापा, मातसो वोगी राबून आयकतलो काय ना ?
जयवंत : व्हदळच्यान वोगी राबूनूच आयकतां. धुवांचें आयकलें. पुताचें आयकलें, शेजाऱ्यापाजाऱ्यांचें लेगीत आयकलें.
अशोक : आतां हें आनीक मातशें आयक. येशकामतीक हांवें कित्याक आपयला तें तरी सांगतां.
जयवंत : आरे, सर्पाक बरें दूद पियलें म्हण तो वीखूच ओकतलो.
येशकामत : ओक
जयवंत : तुकां म्हणटा हांव.
येशकामत : म्हाका म्हणटा ? हांव तुजेर मुतपाक पासून तयार ना. (अशोक ताका थातारता.)
अशोक : पापा, कुमूददिदी खातीर येशकामत आपल्या भाच्याची सोयरीक जुळोवपाक तयार आसा.
जयवंत : पुण त्या खातीर हांवे देड ते पाटचाचो देमान्द फाटी घेवंचो पडटलो, हय मरे ? तीच रिकॉर्ड घुंवडावपाक ह्या दुस्मानाक हाताक धरुन हाडला तुवें ?
अशोक : आयकून तरी घे. येशकामत आपणे विकतो घेतलेल्या

देवतेपाटच्याची अर्दी वाटणी तुका दिवपाक तयार आसा.

जयवंत : आज जर तो अर्दी वाटणी दिता जाल्यार फाल्यां नाक हातांत धरुन सबंद वाटणी दितलो. त्या खिणाची हांव वाट पळयतां. तोमेरेन हो देमान्द असोच चलतलो.

अशोक : तेन्ना कुमूददिदोची जीण खंय पावतली ?

जयवंत : वोगीच ताचे जीणेचो सबंद देमान्दाकडेन जोडूं नाका. वडाची साल पिंपळाक लायिल्लेभशेन.

अशोक : हरशी येशकामत कसोय आसू. पुण तुजे सगळच्यांत जाणटे धुवेक सोयरीक घेवन आयला तो.

जयवंत : येशकामतीच्या रगताचो दोशूच तो––सोयरीकेंत लेगीत वेपार हाडप.

अशोक : येशकामतीच्या रगतांत जायते दोश आसात. तुज्या रगतांत थोडे आसात ?

जयवंत : तूं पूत म्हजो !

अशोक : तुजी संतत लेगीत तुज्या आड वचप हो तुज्या रगताचोच दोश जावन आसा न्हय ? (जयवंत वोगी पटटा) हे सोयरिकेखातीर येशकामत फक्त देमांद फाटी घेवपाक मागता. तुजो जीव काय मागना. खरें म्हळ्यार तुजो जीव लेगीत मागल्यार तुवें अनमनूंक फावना.

जयवंत : तुमी सगळीं म्हज्या जीवार अुठल्यांत तें जाणा हांव. म्हजी पतप्रतिष्ठा तुमी मातयेभरवण केली. म्हजो मान–सन्मान तुमी चिखलांत मस्तिलो. म्हजीं म्हणपाक तुमी कोणूच अुल्लींना. आतां म्हाका कोणाचीच पर्वा ना. तुजी ना. सिमाची ना. सुप्रीयाचीना आनी कुमूदाचीय ना. आतां म्हाका अेकल्याचीच चींता. म्हजो देमांद. तो देमान्द हेच आतां म्हज्या जीणेचे सार्थक ! जाणा हांव, तो देमांद म्हज्या हातसून काडपाक सोदता तुमी. मागीर रस्त्या वयलो सुणो आनी हांव तुमकां समान. कुमूदाखातीर देमांद फाटी घेवं ? बरें आसां. तुमकां भावंडांक तळतळपाक आतां तेच अेक साधन बरें आसा. म्हजो देमांद म्हाका पुरो. आनीक दुसरे कांयच नांका.

(जयवंत आपले कुडीत वता)

अशोक : येशकामत, हांव तुज्या पायां पडटा. तुमच्या देमान्दाच्या झुजांत म्हजे भयणीची जीण मस्तू नाका.

येशकामत : जीणेचे प्रश्न पायां पडून सुटनात अशोक. तडजोडीन

सोडोवपाचे आसतात. आनी तडजोड करपाक तर तुजो बापूय तयार ना.

अशोक : येशकामत, देमांद सोडून आनीक कितेंय सुचय.

येशकामत : ना.

अशोक : येशकामत, अखेर देमानीस्त तो देमानीस्तूच आसता. जांव म्हजो बापूय, जांव तूं.

येशकामत : म्हजो नाईलाज आसा.

अशोक : येशकामत, हांव परत अेक फावट तुज्या पायां पडटा. भुजां वावडून हांव पयलेच खेप मनशावरी वागपाक लागलां. आतां मेरेन हांवें मेळयलां तें म्हज्या कर्तृत्वान. पुण हांगा म्हज्या कर्तृत्वाचो प्रश्न ना. तुजे दानतीचो आसा. येशकामत विचार कर.

येशकामत : हांवें पुराय विचार केला. तूं म्हाका समजावपाचे भानगडीक पडूं नाका. तुज्या बापायक समजाय.

अशोक : तो बापूय जाल्यार समजतलो आसलो पुण तो जालो फातर.

येशकामत : तशें जाल्यार तो फातरुच तुमचे जिणेचेर घेवन बसात.

अशोक : (कळवळून) येशकामत. (भितल्ल्यान कुमूद येता)

कुमूद : अशोक, कोणाच्या पांयां पडटा तूं ? आनी कित्याखातीर ? म्हजेखातीर ? गरज ना.

सीमा : दिदी–

कुमूद : येशकामतीच्या भाच्याची सोयरीक म्हाका मान्य ना. (येशकामतीक) तुज्या भाच्याक कमलाकराक सांग, हांवें ताका नापसंत केला म्हण. तो म्हजेकडेन लग्न जावपाक तयार आसा काय देमांद खेळपाक ? तो खंय, हांव खंय ताचो मामा खंय आनी मदलो हो देमांद खंय ? असलो वेपार म्हाका मान्य ना. असल्या मामाची आनी असल्या भाच्याची सांवळीय म्हाका नाका. म्हज्यो दोगी भयणी सुखाक पावल्यो तांतूनूच म्हजे सुख आसा. (अशोकाक) पिशा, अेकाच पचक्यांत सगळें मेळोवपाचो तुजो हावेस कळटा म्हाका पुण ताका नशिबाचो सांगात जाय.

अशोक : दिदी, सगळ्यांची नशिबां फळफळटात मागीर तुज्याच नशिबाक ही भांग कित्याक ? पुण धीर धर दिदि. हांव म्हजो पोचको कसोच धील जावपाक दिवचोना. म्हजे प्राण अुडल्यार जाता पुण ह्या पोचक्यांत सगळें सगळें

मेळयतलों.

येशकामत : तुमच्या पोचक्यांतल्यान आतां म्हाका मुक्त करात.

अशोक : वच कामत. हांव आतां दुसरो दाव मांडटलो. येशकामत, हांव तुज्या भाच्याक मेळटलों. पायूंच धरपाचे जाल्यार ताचे धरतलों.

कुमूद : नाका अशोक, हांवें तुकां सांगलें न्हय अेकदां, म्हाका ही सोयरीक मान्य ना म्हण.

अशोक : हांव जाणा दिदि, तुकां हो वेवहार मान्य ना. पुण कमलाकर मान्य आसा. तुजे खातीर जातां तें हांव अवश्य करतलों.

येशकामत : (कांचवेत) तें शक्य ना. म्हजो भाचो म्हज्या अुतराभायर केन्नाच ना.

अशोक : ताचीच हांव खात्री करुन घेतलों.

येशकामत : वोगीच नाका थंय शक्ती कित्याक खर्च करता ? म्हजो भाचो म्हळचार जयवंतालीं भुरगीं न्हय-- आपले आपूण आपणाक जाय तें थारावपाक.

अशोक : आतांचो खीण तुज्या फावराद आसत येशकामत पुण आयचो दीस तुज्या फावोराद आसतूच म्हण पातयेवन रावूं नाका आनी फायचोय दीस तुजोच आसतलो म्हण भरवसूं नाका.

येशकामत : हांवे तुज्यापरस चड पावसाळे पळयल्या.

अशोक : ना कोण म्हणटा. कितल्याय पावसांत भिजून लेगीत फातर फातरुच अुरतात. (वचपाक लागता)

कुमूद : खंय वता अशोक ?

अशोक : येशकामतीच्या भाच्याचे सोदीक.

येशकामत : तो तुकां आता खंय मेळटलो ? तो तर कालूच गेलो.

कुमूद : (दुबावान) कालूच गेलो ? येशकामत त्रिबुनलावयल्यो फटी हांगासरूय मारता ?

येशकामत : खरेंच कमलाकर कालूच गेलो.

कुमूद : सामकी फट. आज सकाळीं आमच्या माळयेच्या जनेलानसून हांवे ताका पळयला.

अशोक : कितें म्हणटा दिदि ?

कुमूद : हय हांवूय ताका पळयत आसलें. फाटल्या कितल्याशाच दिससावन आमी जनेलांत रावून अेकमेकाक पळयल्यांत.

अशोक : (ताकतिक) हांव वता. दिदि. आत्तां वतां.

येशकामत : ना. (आडायता) ताका मेळपाक जमचें ना

अशोक : येशकामत, म्हज्या घरांत तूं म्हाका आडायता ?
येशकामत : म्हज्या घरांत तुकां पावल दवरपाक मेळचें ना.
अशोक : हे हांगा रावून सांगपाची पिशेंपणा कित्याक करता ? थंय तुज्या घरा वचून सांग.
कुमूद : अशोकभाई, हातूंत कितें तरी भानगड आसा. म्हाका दुबाव येता.
अशोक : हांव व्हदळच्यान तेंच येवजितां. अखेर बुद्ध देमानिस्ताची न्हय. (वचपाक वळटा.) येतां दिदि.
(पोरसातल्यान कमलाकर येता.)
कमलाकर : मामा, कितें आडायलां तुमी हें ? (अशोकाक)
माफ करात आं, म्हाका पोरसांतल्यान येवचें पडलें. पुण सगळें सोसूं नजो जावन नाईलाजान येवचें पडलें.
येशकामत : कमलाकर, तूं कित्याक आयलो हांगां ?
कमलाकर : मामा, हांवे तुमकां सोयरीके खातीर धाडिल्ले, वेपार करपाक न्हय. म्हजे सोयरेगतींत हो मदलेमदीं देमांद खंयचो अुबो केलो तुमी ?
येशकामत : तें तुकां कळपाक ना कमलाकर
कमलाकर : म्हाका सगळें कळटा मामा. तूं पयलीं देमानीस्त मागीर म्हजो मामा हे हांव पुराय जाणा.
येशकामत : जाणा जाल्यार हे भानगडींत म्हाका कित्याक गुंथलो ?
कमलाकर : भानगड तुवें निर्माण केली. हांवें फक्त कुमूदाखातीर अुतर घालपाक लायिल्लें.
अशोक : म्हणजे ?
कमलाकर : म्हाका क्षमा कर अशोक. तुमकां गरजे भायर मनस्ताप सोसचे पडले. खरें म्हळचार हांवूच येवपाचो तुमचेकडेन. पुण ह्या म्हज्या मामानूच म्हाका आडमेळीं हाडलीं. आनी ताचें कारण आज कळ्ळें. मामा, तूं शकूनीमामाचो बापूय सोबलो ! (कुमूदाकडे नवचून) म्हाका क्षमा कर कुमूद.
कुमूद : हें सगळें अशें घडपाचें आशिल्लें जाल्यार अितलो कळाव कित्याक केलो ?
अशोक : दिदि खिणाक सुकती, खिणाक भरती हो कसलो खेळ ?
कुमूद : सगळें तुमचे पुण्यायेचेंच फळ !
(माळयेच्या सोपणावयल्यान जनाप्पा, संदीप आनी सीमा सकल देंवतात. भायल्या दारांसून अुल्हास आनी सुप्रीया येतात.)

अशोक : वा ! आतां कोरम पूर्ण जातलो.
सुप्रीया : अशोकभाई, पळय कोण आयलां.
(फाटोफाट महेश आनी मनिशा येतात.)
महेश : अशोक, हीं म्हजी आतेभयण मनिशा. तें मुद्दाम तुजी चूक मागपाक आयलां ते दीस ताणे तुजो अपमान केलो. आज ताका ताचो पश्चाताप भोगता. हांवेंच ताका फोर्स करुन हांगा हाडलां. जांव, क्षमा कर ताका. तुजे वतीन हांवें ताका तशें अुतर दिलां.
अशोक : तुवें अुतर दिलें ?
महेश : हय अिश्टा, आतां तुका ताचेवांगडा लग्न जावचेंच पडटलें अखेर तुवे सांगिल्लें तेंच खरें जालें. 'तुकां परतो येवचो पडटलो.' स्वत:च्या कर्तृत्वाचेर भरवंसो आशिल्लो पुरुशार्थी मनीसूच हें आत्मविस्वासान सांगपाक शकता.
जनाप्पा : म्हाका दिसता, आतां खरो कोरम पूर्ण जालो. करा आतां तुमच्या सुखाची बसका सुरू.
(सगळीं अेकामेकांची वळख करुन घेतात. अेकामेकांचें अभिनंदन करतात. कुडींतल्यान जयवंत भायर येता.)
जयवंत : हें कितें चल्लां ? नाटक काय सर्कस ?
अशोक : सर्कस ! (येशकामतीक आनी जयवंताक बोट दाखोवन) दोन विदुषकांची गरज आसा.
(सगळीं हांसतात. जयवंत सगळ्याचो राग येशकामतीचेर काडटा)
जयवंत : येशकामत, खबरदार म्हज्या घरांत पावल दवरशी जाल्यार. . . .
(आनी मागीर जयवंत आनी येशकामत हांचे फाटल्या प्रसगांवेळार जाल्लें तशेच शाद्बिक झगडें सुरु जाता. तेच संवाद तशेच वापरुं येता.)
(सगळीं जाणा तांची मजा पळोवन हांसतात.)

(पड्डो पड्टा)



# देमान्द

पुंडलीक नारायण नायक

“ म्हाका तुजी काकळूट दिसता. आनी दुबाव येता. तुज्या शिरंत्रांनी घोळटा तें रगत काय थंडकिरांव अुदक. कोणा काळांत जियेता रे तूं ? आपणालो अुद्धार करपाक खंयच्या रामाची वाट पळयत बसला पापया ? पुरुशार्था, तुजो पूत तूं. घे प्राणांत पोसोवन वीज. फोड रे हो पांजर. आनी मुक्त कर तुज्या भयणांक . . . . वर्सासंकिनीच्या बंदिवानाक आनी तुंवूय जा मेकळो. जायना फोडूंक हो पांजर जाल्यार कर आत्मबलिदान आनी निदान मातश्यो सरयो तरी बागय.”

“ म्हजी पतप्रतिष्ठा तुमी मातयेभरवण केली. म्हजो मानसन्मान तुमी चिखलांत मस्तिलो. म्हजीं म्हणपाक तुमी कोणूच उल्लींना आतां म्हाका कोणाचीच पर्वा ना. आतां म्हाका अेकल्याचीच चींता. म्हजो देमांद. तो देमांद हेंच आतां म्हजे जीणेचें सार्थक ! जाणां हांव, तो देमांद म्हजे हातसून काडपाक सोदतात तुमी. मागीर रस्त्यावयलो सुणो आनी हांव तुमकां समान. देमांद फाटीं घेवं ? बरें आसा. तुमकां भावंडांक तळतळपाक आतां तेंच अेक साधन बरें आसा. म्हजो देमांद म्हाका पुरो. आनीक दुसरें कांयच नाका.”

“ हांव म्हजो पोचको कसोच धील जावपाक दिवचोना. म्हजे प्राण अुडल्यार जाता पुण ह्या पोचक्यांत सगळें सगळें मेळयतलों.”

---

अपुरबाय प्रकाशन ----